Apa- Lipa
आपा–लिपा
(Essays)



लेखक - चंद्रकांत केणी



पयलीं आवृत्ती : २००७



उजवाडपी :
अनिल पै
कुळागर प्रकाशन
आर्कें, मडगांव - गोंय ४०३ ६०१



मुद्रक :
कस्तुरी प्रिंटर्स
ढवळी, फोंडा – गोंय.



मोल : ३० रुपया

# साहित्य विविधा

कोंकणी साहित्य आनी साहितिकांची वाचप्यांक तोंडवळख करून दिवची हो हेतू नदरेमुखार दवरून कुळागर प्रकाशनान 'साहित्य विविधा' हो उपक्रम सुरू केला. सादारणपणान वर्साक बारा पुस्तकां उजवाडावपाचें आमी थारायलां. जण एका साहितिकाच्या साहित्य कृतींचो अदमास वाचप्यांक मेळचो आनी ताजे साहितिक प्रवृतीची आनी प्रतिभेची तांकां कल्पना येवची हेखातीर हो उपक्रम आसतलो.

'बत्तीस ते ऐंशी पानांचे मर्यादे'त एक पुस्तक उजवाडायतले आनी पुस्तकाचे मोल २५ ते ३० रुपया मेरेन आसतलें. व्यापारी तत्वाचेर ही येवजण आमी चलोवचे नात. पोरन्या– नव्या लेखकांमदीं भेदूय करचे नात. ज्यांची पुस्तकां अजून उजवाडाक येवंक ना अशा गुणी लेखकाचें साहित्यय आमी उजवाडायतले.

वर्साच्या १२ पुस्तकांचो सेट वाचकाक २०० रुपयाक मेळटलो. पुण ते मोल आदीं भरचें पडटलें. लेखक, वाचक, समीक्षक हांणी हे येवजणेचो लाव घेवचो. २००६ वर्सा आनी हातलीं तीन पुस्तकां उजवाडायली. आतां २००७ वर्साची बाराय पुस्तका तयार जाल्यांत. तीं डिसेंबर २००७ मेरेन छापून तयार जातली. तपशीलाखातीर बरयात :

**कुळागर प्रकाशन**

पो. बॉ. नं. ७८

मडगांव, गोंय ४०३ ६०१

# मांडावळ


अजाप ...................................... ७

अनुकरण ............................. १०

स्राप ...................................... १३

नागीण ................................ १६

दुश्काळात तेरावो म्हयनो ............... १९

जापसालदारकी ....................... २२

जाची ताची नदर .................... २५

जिणेची खोलाय......................... २९

कलियुग .............................. ३२

शिक्षण आनी शाळा ........................ ३५

उबगण ........................................ ३८

वासाचो सहवास .............................. ४१

शॉर्ट कट ...................................... ४६

जिणेचें कुवाडें ................................. ४९

संगत ............................................. ५२

खजुराहो ........................................ ५५

क्लिओपात्रा .................................... ५८

बंधन............................................. ६२

# अजाप

'आमच्या भुरगेणांत सरकारी अधिकाऱ्याक १७ रुपया पगार मेळटालो आनी तितल्यान सगलो संवसार सांबाळून तो सुखान जगतालो.' एक जाण्टेलो सांगतालो.

ताजे भोंवतणी तरनाटे जमिल्ले. तांकां ह्यो काणयो दिसताल्यो. ते त्या जाणटेल्याचीं फकाणां मारताले आनी ताज्या उतरा कणकणी हांसताले. एकल्यान ताका विचारलें, 'तूं ज्यो पगाराच्यो खबरो सांगता तो पगार आदेसाचो काय दिसाचो?'

सगले तरणाटे हांसले. जाण्टेलो तापलो, ताणें म्हळें, 'म्हयन्याचो पगार १७ रुपया आसलो. तुमकां फट दिसत पूण चार रुपयांक मुडीभर म्हळ्यार अर्द साक तांदूळ मेळटालो. कापड आण्यान वार विकताले. भांगराचें पवन १५ रुपयांक मेळटाले. आनी सगलो लोक सुखी आसलो. चोरयो जायना आसल्यो, मारामारी नासल्यो. घराचीं दारां सकाळीं उक्तीं जातालीं आनी रातचीं बंद जातालीं.'

तरणाटे व्हडाव्हडान हांसूंक लागले.

'तुमका हीं पुराणांतलीं वायंगी दिसतात. म्हळ्यार अजापच. त्या काळार जेवणाखाणाक मरण नासलें. कांय अशीं घराणी आसलीं जांगेर सकाळसांजवेळ जेवणाच्यो पंगती पडटाल्यो. कोणेंय येवचें आनी जेवन वचचें.'

भुरग्यांच्या फकाणांची तरा आतां बदल्ली. हो जाणटेलो निखट्यो फटासो मारिना जाल्यार तो म्हातारपणांत पिसो जाला अशें तांकां दिसूंक लागले आनी ते हुर्यो घालूंक लागले. इतलो वेळ कुशीक रावन हें सगलें हांव आयकतालों. आतां प्रकरण हाताभायर वता अशें जायनाफुडें हांवें मदीं तोंड घालें आनी त्या तरणाट्यांक म्हळें, 'तुमकां त्यो काणयो दिसतात आसल्यो तरी तो सांगता ती खबर खरी. फाटल्या पन्नास - साठ वर्सांच्या काळांत सगलें चित्र बदल्लां.'

भुरगे ओगी रावले, तशें त्या जाणटेल्यान म्हळें, 'म्हाका त्या भुरग्याचें इल्लेंय वायट दिसलें ना. पूण आमच्या दोळ्यांनी पळयिल्ल्या ह्या गजालींचेर तांचो विस्वास बसना ही अजापाचीच गजाल म्हणूंक जाय.'

म्हाका सर सुरेंद्रनाथ बॅनर्जी हांचो उगडास जालो. लंडन शारांत ब्रिटीश बुध्दीजिवी लोकांमुखार ते भाशण करताले. इसवीच्या १० व्या शेंकड्याउपरांत भारतीय समाजाची परकी आक्रमणाक लागून कशी दुर्दशा जाली हाचें वर्णन ते करताले. मदींच एका

ब्रिटीश मनशान तांकां विचारलें, 'तुमी म्हण्टात तें आयकलें जाल्यार तो भारतीय समाज फाटलीं हजार वर्सां खऱ्यांनीच केन्नातरी संस्कृतीचे तेंगशेर आशिल्लो?'

'हय.' सुरेंद्रनाथ बॅनर्जीनी जाप दिली, 'जेन्ना तुमचे जाण्टेले रावंक घर बांदतात आनी आंग धांपूक वस्त्र वापरतात म्हणपाचेंय नकळ आसले तेन्ना भारतीय उपखंडातली प्रजा संस्कृतीचे तेंगशेर आसली.'

हे जापेक देशाभिमानाचो जो अतिरेक आसा तो कुशीक काडलो तरी सर बॅनर्जी हांणी मांडिल्लो मुद्दो खरो आसलो. समाजीक सुरक्षेचीच गजाल घेवया. आज अस्तमतेकडल्या देशांनी खंयचोय नागरीक हांतुणार पडलो जाल्यार तागेलो खर्च सरकार करता, बेकार उरलो जाल्यार ताका भत्तो दिता, ह्यो गजाली आयकून आमकां अजाप अजाप दिसता...

पूण आमच्या इतिहासाचेर नदर भोंवडायली जाल्यार आमकां ताज्याकय व्हड दिसपासारक्यो गजाली पळोवंक मेळटल्यो.

विसाव्या शेंकड्यांत कंबोडियांत संशोधन करता आसतना जे इतिहासीक पुरावे मेळ्ळे तांचेवयल्यान थंयमेरेन भारतीय साम्राज्य आनी संस्कृती पातळिल्ली म्हणपाचें सिध्द जाता. अंकोरवाट हें शार कंबोडियाचें आदलें पाटनगर आसलें. थंय एक शिलालेख मेळ्ळा. ताजेवयल्यान दिसता की त्या काळार (म्हळ्यार बौध्द धर्म वैभवाचेर आसलो तेन्ना) सरकारी खर्चान १०२ हॉस्पीटलां चलतालीं. त्या हॉस्पीटलांनी ८० हजार डॉक्टर आनी हेर कर्मचारी काम करताले. दोन अडेज हजार वर्सां आदी भारतीय समाज कितलो फुडारिल्लो आशिल्लो हाजो अदमास येता.

येशूच्या जल्माआदीं चवथ्या शेंकड्यांत चिनी यात्रीक फा हियान भारतांत आयिल्लो. ताणें भारतांत त्या काळार जीं जनावरांची हॉस्पीटलां चलतालीं तांचेविशीं बरयलां. आनी जनावरांखातीर हॉस्पीटल आसप म्हळ्यार अजापच अशें म्हळां.

सिकंदराच्या आक्रमणावेळार इतिहासकारांनी भारताविशीं ज्यो गजाली बरोवन दवरल्यात त्योय अजापाच्योच आसात. भारताचे भुंयेचेर पांय दवरतकच सिकंदरान तक्षशिला हुपून कठ राज्याचेर धुरी घाली. तें राज्य म्हळ्यार एक प्रजासत्ताक. ताचेविशीं ग्रीक इतिहासकारांनी अशें बरोवन दवरलां की राज्यांत एकाद्रे अपंग भुरगें जल्माक आयलें जें फुडें बरें जावपाची शक्यताय नासत जाल्यार ताका मारपाचो अधिकार सरकाराक आसलो. तरी त्या राज्याचो प्रजासत्ताक म्हणून गौरव जातालो.

मोगल साम्राज्याचो संस्थापक बाबर जेन्ना भारतांत आयलो तेन्ना हिंदुस्थानांतल्यो गायो पळोवन ताका अजाप जाल्लें. आपल्या बाबर नाम्यांत ताणें बरयलां की मोगलांचें सैन्य जशे जशे नवो वाठार जिखतालें तेन्ना गोरवां लुटून हाडटालें. मुखार राजाक प्रस्न पडलो की ह्या इतल्या गोरवांचें करचें कितें!

अशी अजापाची ही माळ खूब लांबोवं येता. आज लेगीत शाळेंत शिकतल्या भुरग्यांक संवसारांतली सात अजापां शिकयतात. चीनांतली वणत, फ्रांसातलो 'एफेल' टावर,

भारतांतलो ताजमहल हे सारकिली तीं अजापां जावन आसात. पूण इतिहासापरस मनशांनी अजापाची नोंद करून दवरल्या तांचो उगडास करप समा जातलें.

सांख्यशास्त्राचे जनक महर्षि कपिल आनी तागेली आवय देवहुति हांचे मदलो संवाद अमर जावन उरला. जिणेचीं गुपितां समजून घेवचे खातीर आवयन पुताक प्रस्न विचारले, आनी त्या प्रस्नांक पुतान जापो दिल्यो. सगल्यो जापो आयकतकच आपणाक दिशिल्लें एक अजाप देवहुति कपिल मुनीक सांगता, 'हे परमज्ञानी पुता, हें नाशवंत शरीर आनी ताजेपरस चड नाशवंत अशा घरांत हांव आनी म्हजे हांची गांठ बांदिल्ली उरल्या हें केदें व्हडलें अजाप.'

मनीस ही गांठ अर्थ नाशिल्ली म्हणपाचें जाणा. अशें आसूनय तो ती तोडीना वा सोडिना हे अजापच न्हय?

देवहुतिक हांव आनी म्हगेल्याची गांठ अजापाची दिसता जाल्यार भर्तृहरीन आपल्या 'वैराग्य शतकां'त हेच तरेचे दुसरे एके गजालीविशीं अजाप उक्तायलां. तो म्हण्टा, 'भोग भोगपाची तांक देहांत उरलीना, सगले सांगाती संवसार सोडून गेले. शरीर दुबळें जालें आनी इंद्रियांनी काम करप बंद केलें अशें अवस्थेंत लेगीत मरणाचो विचार येनाफुडें मनीस भियेवन कांचवेता हें केदें व्हडलें अजाप!

मनशाची आसक्ती पळोवन भर्तृहरीक अजाप दिसना, ताका अजाप दिसता तें तो वर्णिता ते अवस्थेंतय मनशाची आसक्ती सोंपना हाचें. ते अवस्थेत मनीस फकत श्वास घेता म्हणूनच तो जगता अशें म्हणचें पडटलें. तरी आसतना तो जगूंक शकता हें अजापच.

महाभारतांत आरण्यक पर्वांत यक्ष-युधिष्ठिर संवादांत धर्मराजान अशेंच एक अजाप उक्तायलां. तळ्यांतले उदक पियेवचे खातीर आयिल्ल्या युधिष्ठिराक यक्षान विचारलें, 'ह्या संवसारांत सगल्यांपरस चड अजापाची गजाल खंयची?'

युधिष्ठिरान सांगलें, 'दिसपट्टे शंबरांनी मनीस मरतात, मरण कोणाकच चुकना, अशें आसतनाय दर एकलो मनीस आपूण केन्नाच मरचोना अशें मानून वागता हेंच संवसारांतले सगल्यांपरस व्हडलें अजाप.'

अजापांची ही परंपरा. ताजमहल आनी चिनी वणत हें एक तरेचे अजाप. अंकोरवाटचो शिलालेख आनी फा हियानचें बरप हें दुसरें तरेचें अजाप. देवहुति, भर्तृहरी आनी युधिष्ठिर हांका दिसलीं तीं तिसरे तरेची अजापां. अशी साबार अजापां आमी पळयतात, आयकतात आनी तरी आसतना आमकां अजाप जायना हेंच संवसारांतलें व्हडलें अजाप म्हणूंक जाय.



# अनुकरण

नक्कल करपी मनीस तुमी पळयिल्लो आसतलो. व्हडाव्हडांचे आवाज तो अशे तरेन काडटा कि पड्याफाटल्यान रावन आयकतल्याक तो मूळ मनीस कसो दिसता. एकल्यागेर गेल्लेकडेन अशाच एका नक्कल करपी मनशाची वळख जाली. ताजे भोंवतणी चार पांच जाण बशिल्ले आनी तो तांकां नकलो करून दाखयतालो. कोणाचेंय नांव घेतलें जाल्यार तो ताजी नक्कल करतालो. दूरदर्शनावयल्या अनावन्सरापसून तांगेल्या वाड्यावयल्या ल्हान व्हड मनशां मेरेन सगल्यांच्यो नकलो करून दाखोवन तो आयकतल्यांक हांसयतालो. ताका गायन व्हडलेशें येना. पुण लता मंगेशकरापासून भीमसेन जोशीमेरेन सगल्यांच्या आवाजाच्यो नकलो करून ताणे गावन दाखयलें. हेरांबरोबर हांवेय ताजी तोखणाय केली आनी मस्कऱ्यांनी म्हळें, 'नक्कल करूंक अक्कल लागना. तुजेकडेन देवान दिल्ली देणगी आसा ताजो सारको वापर केलो जाल्यार तूं व्हडलो मनीस जावंक पावतलो.'

म्हजें म्हणणें आयकून तो रागार जालो आनी त्याच खिणाक ताणे म्हजीय नक्कल केली. सगले हांसले. हांवय हांसलों.

हांव येवजूंक पडलों. लता मंगेशकार जर गांवक लागली वा राजीव गांधी भाषण करूंक लागलो जाल्यार आमी गंभीरपणान आयकत रावतात. पूण तांची हुबेहूब नक्कल कोणे केली तर आमी ते नकलेकडेन गंभीरपणान पयलनात. तें लटकें, अडेचें अनुकरण म्हणपाचें आमी जाणा आसतात. देखून आमी हांसतात.

सामान्यतायेन मनीस आळशी नासत वा हांतुणार पडिल्लो नासत जाल्यार तो कितेंय तरी करीत रावता. तशें तो कित्याक करता? मनाक तशे दिसता म्हणून करपी लोक खूब थोडे. चडशे लोक दुसऱ्यांचें पळोवन, आयकून, कर्तव्याचे भावनेन वा चार लोकांचें बरेपण जोडूंक तशे वागतात. जो मनीस दुसऱ्याचें पळोवन आपूण तशेंच करता ताका आमच्यानी अज्ञानी म्हणूंक येता. दुसऱ्यान सांगलें देखून जो करता तो अर्धज्ञानी आनी येवजून समजून पावलां उखलता ताका ज्ञानी म्हणूं येता. संस्कृत भाशेंत ह्या तीन प्रकारांक तीन वेगळी नांवां आसात. जो दुसऱ्याचें पळोवन करता तो अनुकरण करता. दुसऱ्यान सांगून करता तो अनुसरण करता आनी जो आपले प्रेरणेन करता तो आचरण करता. वयल्याचाराक ह्या तीन करण्यांमदीं आशिल्लो सुक्षीम भेद नदरेंत भरना. तीन करण्यो सारक्योच दिसतात. कंवचेचो कुडको आनी वज्र ना जाल्यार इमिटेशन केल्लें वज्र आनी

खरेलें वज्र पळोवंक सारकींच दिसतात. हातांत घेतलें तरी सामान्य मनशाक खरें वज्र आनी अडेचें वज्र हांतलो भेद कळना. केन्ना केन्नाय अडेचें वज्र खऱ्या वज्रापरस अदीक चकचकता. जाणकार मनीसच दोनय वज्रां हातांत घेता आनी खरेलें वज्र सोदून काडटा. तेच भाशेन जो मनीस आपणाकच तपासता, तिजता, आपले दर एके करणेचो तटस्थ मनान नियाळ घेता ताका आपली करणी त्या तीन प्रकारांमदीं खंयच्या प्रकारांत मोडटा तें वळखूंक येता.

जे लोक अनुकरण वा अनुसरण करतात तांका गिन्यान वा अणभव मेळूंक पावना. कित्याक ताणी केल्ली करणी ही समजून केल्ली नासता. एकाद्रो मनीस गृहस्थधर्माचो त्याग करून संन्यास घेता तेन्ना आपल्या वांट्याक कसल्यो अडचणी येतल्यो हाजी ताका कल्पना आसता. देखून संन्यास घेतल्या उपरांत तो सगले तरेचें दिव्य सोंपेपणान करूंक पावता. पुण जो मनीस दुसरो कोण संन्यासी जाला म्हणून ताजें अनुकरण करून आपूणय संन्यास घेता तेन्ना ताका गृहस्थधर्माचे सुख मेळना आनी संन्याशाची शांतीय गावना.

सुखदुःखाची आमची कल्पना ही मृगजळा फाटल्यान धांवतल्या हरणासारकी आसता. आमी जीणभर ह्या सुख-दुःखाच्या फेऱ्यांतल्यान भायर सरूंक पावनात. बारीकसाणेन येवजिलें जाल्यार जिणेंत सुख वा दुख्ख अशें नासताच. एकल्याचें सुख ते दुसऱ्याचें दुख्ख आसूं येता. म्हज्या एका इश्टाल्या घरांत रात दीस रेडियो लायिल्लो आसता. ताजेर सिनेमाचीं गितां चलतात. मोठो आवाज करून घरांतलो सगलो लोक आपलीं कामां करतात. खऱ्यांनीच गितां कोण आयकता कोणाक खबर! पुण त्या आवाजाबगर तांकां सुख लागना. एक दीस तांगेलो रेडियो मोडलो तेन्ना घरची सगलीं अस्वस्थ जालीं. म्हणूंक लागलीं, घरात किण्ण पडलां तें सोंसूक नज. ताणी रोखडोच दुसरो रेडियो घरात हाडलो आनी घरचे सगले लोक खुशालभरीत जाले. त्या बोवाळांत तांकां सुख मेळटाले. पुण त्या इश्टाच्या शेजरा रावतल्या दुसऱ्या मनशाक रात दीस चलतल्या रेडिओचो त्रास जातालो. ज्या दिसा तांगेलो रेडिओ थोड्या वेळाखातीर बंद पडिल्लो त्या दिसा शेजाऱ्यांक आनंद जालो. अशे तरेन एकल्याचें सुख हेंच दुसऱ्याचें दुख्ख जावं येता. जर सुख आनी दुख्ख शाश्वत आसतें जाल्यार एकल्याचें दुःख हेंच सगल्यांचें दुख्ख जावंक पावतलें आसलें.

हें विशयांतर जालें. आमी अनुकरण, अनुसरण आनी आचरणाविशीं विचार करताले. आचरणाचें मूळ विचारांत आसता. विचार आनी आचार एकरूप जावन जेन्ना चित्त एकाग्र जाता तेन्नाच आमी आचरण करूंक पावतात. विचाराआड केल्लें आचरण हो एके तरेचो दंभच. आचरण म्हळ्यार एके तरेची भट्टी. मनशाचे अणभव ते भट्टेतल्यान जेन्ना भायर सरतात तेन्ना ते शुध्द आनी चोख जातात. मनशाक जायते बरे बरे विचार येतात, ज्या विचारांचे ताणे आचरण केल्लें आसता तेच विचार तागेले जिणेक वेगळे अर्थ दितात. कांय लोकांक बऱ्या बऱ्या विचारांचो संग्रह करपाची आवड आसता. असले सुविचार ते पुंजायतात, तोंडपाठ करतात आनी दुसऱ्याचेर प्रभाव घालचेखातीर ते सांगत रावतात.

असले विचार कितलेय बरे आसले तरी त्या विचारांचो उलयतल्याचेर वा आयकतल्याचेर बरो परिणाम जावंक पावना.

विचार, उच्चार आनी आचार हांच्या समन्वयांतल्यानच ज्ञानी मनशाची घडण जाता आनी तो समजून सवरून करणी करूंक लागता. असो ज्ञानी मनीस दुसऱ्यांचें अनुकरण करिना वा कोणे सांगले म्हणून अनुसरणय करिना. शास्त्रवचनाचें वाचन, पठण करून मनीस पंडीत जावं येता. पुण तान लागतकच उदक पिवचें अशें तोंडान सांगप वेगळें आनी तानेन व्याकूळ जाल्ल्या वेळार शीतळ उदक पियेवप वेगळें. जो उदक पियेता ताजो अणभव तोंडान निखटें सांगता ताका कसो येतलो?

जो मनीस गायकांची आनी वक्त्यांची नक्कल करतालो तो मनीस त्या त्या मनशांचे कुडें अनुकरण करतालो वा अनुसरण तरी करतालो. एकाद्रो गायक बरो गाता आनी तागेल्या गायनान सगल्यांक आनंद मेळटा हें पळोवन अनुकरण वा अनुसरण करपी मनीस ताज्या आवाजाची आनी सुरांची नक्कल करूंक लागता. पुण खरो साधक मन, बुद्द आनी चित्त थीर करून गायन विद्येची साधना सुरू करता. ही साधना कठोर आसता आनी कठीणय आसता. पुण जो ती करता ताजे जिणेचो कायाकल्प घडूंक लागता. एका ल्हानशा फातरांतल्यान शिल्पकार जसो शेणे हातांत घेवन एक सुंदर मूर्त घडयता तेच तरेन साधक हो आपले साधनेतल्यान एक गायक घडोवंक पावता. तो गायक तेन्ना दुसऱ्या गायकाची नक्कल उरना. आपले विचार आनी अणभवातल्यान तो संगीताचो एक नवो अविश्कार घडोवंक पावता. आमचे समाजिक जिणेत आमी पळयतात कि, कितेंय तरी वेगळें घडोवपी वान्सा खूब थोड्या जणांमदीं आसता. चडशे अनुकरण व अनुसरण करूनच संतोश मानतात. पुण जो दर्दी आसता तो जाणा आसता कि, अनुसरण हें नक्कल करपी कंवचेचे कुडके जावन आसात, चोख वज्रां वेगळींच.



# स्राप

रशियांत दोंगरी वाठारांत रावतल्यो दोन बायलो उलयतां उलयतां मदींच झगडूंक लागल्यो. गिन्यान आनी विज्ञानाचो विस्तार अजून त्या वाठारांत जावंक ना आनी थंय चडशे आदिवासीच रावतात. असल्या वाठारांत रावतल्या दोन बायलां मदीं झगडीं जालीं. ह्या झगड्याचो आनी वाठाराचो कांय संबंद ना. शारांतल्यो बायलो लेगीत केन्ना केन्नाय अशो झगडटात. तांगेलें झगडें पळोवन त्या वाड्यावयल्यो बायलो एकठांय जाल्यो आनी पळयतां पळयतां कांय बायलो एकलेची जाल्यार कांय दुसरेची कूस घेवन बसल्यो. मागीर तोफेचेर तोफ सुटूंक लागली. शब्दकोशांत आशिल्ल्या नाशिल्ल्या उतरांचो शिंवर जावंक लागलो. एक एक गाळ दुसऱ्याक झोंबची इतली खर आसली. एके बायलेन दुसरेक स्राप दिलो, 'तुजी भुरगीं तांची भास विसरून वचूं' (हो जालो कोंकणी अणकार. पुण थंयचे थळावे भाशेंत तो एक स्राप आसलो.) स्राप दिल्ले बायलेच्या आड हेर बायलांनी बोवाळ केलो इतलेंच न्हय जाल्यार ज्यो बायलो तिजी कूस घेवन झगडटाल्यो त्यो लेगीत परतल्यो. असलो स्राप दितले बायलेविशीं कोणाकच दयामाया दिसली ना. झगडीं सदचीं. गाळी फस्ती दिवं येतात, पुण असलो स्राप दिवप म्हळ्यार कितें?

हो प्रसंग हांवे घडोवन सांगूक ना. रशियन लेखक हमझोतोवा हांगेल्या 'दोघेस्तान' ह्या पुस्तकांत हो प्रसंग आयला. हो प्रसंग लेखकान आवयभाशेचे म्हत्त्व दाखोवपाखातीर घाला. कोणय मनीस आपली आवयभासच विसरून गेल्यार कशें जावपाचें?

हमझोतोवान आनीक एक प्रसंग बरयला.

सुमार धा वर्सांचो एक भुरगो आपले वस्तीतल्यान, कुशीक पडटा. तो शेणटा. तो खंय गेला म्हणपाचें कोणाकूच खबर नासता. सोदूनय तो मेळना. सुमार चाळीस वर्सां उपरांत लेखक कसल्या तरी कामाखातीर पॅरीसाक गेल्ल्या वेळार ताका सुमार पन्नास वर्सांचो एक मनीस मेळटा. चाळीस वर्सां आदी शेणिल्लो भुरगो तो तोच. तो दादलो आतां पुराय फ्रेंच जाल्लो. एके फ्रेंच बायलेकडेन ताणे लग्न केल्लें. ताजो संवसार सुखान चलिल्लो. लेखकाक मेळ्ळो तेन्ना ताणे आपले मायभुंयेचो उगडास काडलो.

गांवघरा परत येतकच लेखकान त्या भुरग्याले म्हातारे आवयक तिगेल्या शेणिल्ल्या पुताची खबर सांगली. ती आयकून आवय खुशालभरीत जाली. आपल्या पुताच्यो

बारीकसारीक गजाली समजून घेवचे खातीर तिणे ताका प्रस्नार प्रस्न विचाल्ले. दर एका प्रस्नाची जाप आयकून आवय भुरकटून वताली. निमाणेकडेन लेखकान म्हळें, 'तागेलें सगळें बरें चल्लां. पुण तुगेलो पूत आतां 'दोघेस्तानी' भास उलयना आनी फ्रेंच भाशेतल्यान आपले वेव्हार चलयता.

ते आयकना फुडें आवय सामकी धवी जाली. तिणे म्हळें. 'कितें सांगता तूं? तुगेली कितेंय तरी चूक जाल्ली आसूंक जाय. आवय भास विसरिल्लो भुरगो हो म्हजो पूत आसूंकच नज.'

'ना तुजोच पूत तो.' लेखकान जाप दिली, 'गांवची सगळी बारीक सारीक खबर ताणे म्हाका सांगली.'

'ना तशें आसूंकच नज.' म्हातारेन म्हळें, 'जो भुरगो आपली आवयभास विसरता तो म्हजो न्हयच. हे भुंयेर जाणे जल्म घेतला तो आवयभास कसो विसरत?'

आदिवासी, मागास आनी गांवडळ म्हणून आमी वळखतात अशा लोकांची ही खबर. आमी आदिवासी न्हय. तरी आसतना आमी कितले विकृत जाल्यात हाजी लज वा खंत कोणाकच दिसना. कोणाल्याय ल्हान भुरग्याची अपुरबाय करूंक गेलो जाल्यार तागेली आवय भुरग्याक सांगता, 'बाबा, अंकलाखातीर ट्विंकल, ट्विंकल लिटल स्टार हें साँग सींग कर पळोवयां.'

आनी मागीर तो भुरगो जेन्ना तें पद म्हणटा तेन्ना आवयच्या तोंडार जी खोशी फुलता ती पळोवपासारखी आसता. भुरग्यांक आतां आमी इंग्लीश भाशेचेंच शिक्षण दितात. एकाद्रे वस्तूक कोंकणीत कितें म्हणटात तें खबर नासत जाल्यार उपकारत. पुण तिका इंग्लीशींत कितें म्हणटात हाजें शिक्षण पयली दितात. खीणभर अशें म्हणू येता कि ज्या भुरग्यांक कोंकणी येना ताका ती येना हें सांगूक तागेल्या आवयबापायक अभिमान भोगता.

अशे तरेन आमच्या दोळ्यांमुखार आपली आवयभास नकळ आशिल्ली एक पिळगी तयार जाता. इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकतल्या ह्या भुरग्यांक कोंकणी येना हे खातीर तांगेले आवय बापूय दोघेस्तानातले ते म्हातारे बायलेभशेन खंती जायनात. उरफाटे 'ताका कोंकणी येना' हें अभिमानान सांगतात.

एका काळार इंग्लीश भाशेचें पिशें उंचयल्या वर्गापुरते आसलें. पुण आतां समाजाच्या सगल्या थरांचेर तें पावंक लागलां. इंग्लीश माध्यमांतल्या शाळांनी आपल्या भुरग्यांक प्रवेश मेळोवन दिवपाखातीर आवय बापूय तळमळटात ते पळयल्यार आमच्या फुडाराची कल्पना येता.

इंग्लीश माध्यमांतल्यो शाळा आमच्या देशांत मिशनरी लोक चलयतात. येशूच्या नांवान विद्यादानाचें पवित्र कार्य करता आसतना हे मिशनरी लोक भुरग्यांले आवयभाशेची हत्त्या करपाचें पातक करतात. येशू ख्रिस्ताची ज्याणी हत्त्या केल्ली तांचे खातीर प्रार्थना करता आसतना येशून म्हळें, 'देवा तांकां क्षमा कर. आपूण कितें करतात तें ते नकळत!'

पुण आज इंग्लीश माध्यमाच्यो शाळा चलयतात तांकां क्षमा करपी येशू खंयच ना आनी आपूण कितें करतात हें ते बेस बरें जाणात.

अशें आसतनाय आमच्या देशांत आवयभाशेच्या नांवात झूजां, झगडीं जातात. गोंयांत कोंकणीक राजभास करून घेवचे खातीर कशे झूज दिवचे पडलें. हाजो उगडास सगल्यांचे मतींत ताजो आसा. कोंकणीक विरोध करतल्यांनी मराठीचे नांव घेतलें. पुण दीसपट्ट्या वेव्हारांत आमी पळयतात कि इंग्लीश माध्यमांतल्या शाळांचो आंकडो सगल्या थरांचेर वाडत आसा आनी देशी भाशेंतल्यान मुळाव्यो शाळा बंद पडूंक लागल्यात. इंग्लीश भाशेंतल्यान शिक्षण घेतिल्लो विद्यार्थी चड हुशार आसता अशेंय म्हणूंक नज. तरी आसतना इंग्लीश माध्यमाचें आमकां पिशें लागलां. इंग्लीश भाशेक म्हजो विरोध ना. संवसारातली ती एक समृध्द भास. पुण इतलेच खातीर ती आवयभास जावंक शकना. शेजाराक रावतली एकाद्री बायल कितलीय गिरेस्त आसली वा सुंदर आसली म्हणून ती आमची आवय जावंक शकना. आवय बदलूंक मेळना वा वेंचूकय मेळना.

संस्कृत भास ही संवसारातली एक समृध्द आनी खूब पुर्विल्ली भास. एका काळार ती ह्या देसाच्या एकवटाची, आमचे उदरगतीची भास आसली. ज्ञान विज्ञान आनी योग अध्यात्म आमी ते भाशेवरवीं शिकताले. पुण इतल्या वर्सां मजगती आमी ती भास मारून उडयली. संस्कृत शिकूंक नाशिल्ल्यान केदें व्हडलें धन आमी वगडावन बसल्यात म्हणपाची जाणविकाय लेगीत आमकां ना. आज संस्कृत भास म्हळ्यार पुजाऱ्याच्या तोंडातली दुर्बोध बडबड जावन बसल्या. संस्कृत भास परत वयर सरली जाल्यार भारतीय मनशाच्यो आवयभासो समृध्द जावंक पावतल्यो. पुण आमकां आमच्यो आवयभासो तरी खंय समृध्द करपाच्यो आसात? हे अशेंच चालू उरले जाल्यार एक दीस ह्या देशांत एक अशी पिळगी तयार जातली जी फ्रान्साक रावतल्या त्या दोघेस्तानी मनशाभाशेन आपले सगले वेव्हार परकी भाशेतल्यान करूंक लागतली.

आवयभास विसरप हो एके आदिवासी जमातीक स्राप कसो दिसता आनी झगडें जालें तरी ते लोक हो स्राप दुसऱ्याक दिनात. आपूण नांव, रूप नाशिल्ले जीव जावन बसतले म्हणपाची भिरांत तांकां दिसता. आनी आमी आपणाक फुडारिल्ले मानपी लोक आमच्या भुरग्यांनी आवयभास विसरची म्हणून प्रयत्न करीत आसात!



# नागीण

'जिबेक ना हाड देखून सगळें पडलें पाड!' एक सुभाषित उलोवचें तशें तो उलोवन गेलो.

तागेली गजाल हांसपासारकी. ताका सदांच बडायो मारपाची संवय. एका लग्नाक गेल्लेकडेन ताणे आपलो गॉगल कोणाक तरी दाखयलो. दुबाय आशिल्ल्या तागेल्या मेवण्यान ताका तो धाडिल्लो. पुण बडाय मारपाच्या प्रयत्नांत ताणे थंयच्या लोकांक सांगले कि असले गॉगल्स सोंपेपणान मेळनात. आपल्या एका इश्टान आपल्याक अमेरिकेकसावन धाडला. ताका थोडे पैसे पडनात. चारशे रुपया पडटात.

थंय आशिल्ले एके बायलेन तो गॉगल मागून घेतलो आनी आपल्या दोळ्यांक लावन पळयलो. कोणे तरी तिका म्हळें कि ती गॉगल लावन सुंदर दिसली. बायल रुपान मात्शी उजवी. त्या मनशानय तिच्या रुपाची तोखणाय केली आनी म्हळें : 'गॉगल जरी म्हजो आसलो तरी तुज्या दोळ्यांक तो सोबलो.'

'म्हाकाय एक हाडून दिता?' ते बायलेन ताका विचाल्लें.

'बरे भाशेन.' बडाय मारपाची संद वगडावं नये अशें येवजून त्या मनशान म्हळें, 'म्हजो एक इश्ट फुडल्या सप्तकांत येवपाचो आसा. हांव तुजेखातीर एक गॉगल हाडून घेतां.'

ते बायलेन ताजे परवानगेन तो गॉगल लावन सगळ्यांक दाखयलो आनी पाच मिनटांनी परत येवन तो गॉगल आनी चारशें रुपया त्या मनशाकडेन दिले.

इतले सुंदर बायलेकडचे पयशे घेवप ताका उणेपणाचें दिसले. ताणे म्हळें, 'पैशाचें मागीर पळोवया. हांव जर म्हज्या इश्टाकच पैशे दिवचो ना जाल्यार तुजेकडच्यान कसो घेवूं? गॉगल येतकच खंय पावोवचो तितलें सांग.'

ते बायलेन तागेल्या बोल्साचें पेन आपल्या हातांनी काडलें आनी ताजेकडच्यानच मागून घेतिल्ल्या कागदाचेर आपलें नांव, पत्तो आने फोन नंबर बरोवन तो कागद परत ताज्या हातांत दिलो आनी म्हळें, 'थँक्यू! तुजे उपकार हांव जल्मभर विसरचें ना.'

बडाय मारपी लोणयाचो गुळो तितल्या उतरांनीच विरगळ्ळो आनी ताणें म्हळें. 'हो गॉगल तूं दवरून घे. नवो म्हाका मेळटलोच. तो येतकच मुजरत हांव तुगेर येवन तुका दाखयतां.'

बायल आनीकय खुशालभरीत जाली आनी इल्ले लागोळे भाशेंत तिणें म्हळें, 'मुजरत यो. फोन करूनच यो. चुकामूक जावप नाका. तशें दीसभर हांव घराच आसतां.'

जालें, गॉगल तिणे व्हेलो आनी मोटे लक्तुबायेन हेर बायलांक दाखयलो. थंय आसली त्या बडाय मारतल्याची बायल. आपल्या भावान धाडिल्लो गॉगल घोवान दुसरे बायलेक दिलो हें पळयना फुडें तिजो जळफळाट जालो. लग्नाच्या हॉलांतली उठून ती घरा आयली आनी त्या दिसा घरांत कुरूक्षेत्र जालें.

आतां घोव त्रासांत पडला. गॉगलाक गॉगल गेलो आनी बायलेलें झगडें मोलायलें. बायल आता ताजेकडेन उलयना. घरांत आयदनाक आदयन आपटता आनी संद मेळिल्ले खेपे तो गॉगल ती वयर काडटा. हरशी असल्या प्रसंगाचेर एक नकसूद फटास मारप ताका जड वचपाचें न्हय. पुण सगळो प्रसंग बायले सामकारच घडिल्ल्यान ताजें तोंड बंद पडलां. आता ताका पश्चाताप जाता. भुरकटून वचून त्या दिसा तो गरजेपरस चड उलोवंक नाशिल्लो जाल्यार हो प्रसंग ताजेर येवपाचो न्हय.

खऱ्यांनीच जिबेक नासता हाड देखून ती हुळहुळटा. केन्ना कितें उलोवचें हें कळना जाल्ल्यान ती न्हय त्या वेळार न्हय तें उलोवन वता आनी मागीर धनुष्यातल्यान सुटिल्लो बाण फाटी घेवंक मेळना. एकाद्या वेळार पच्च करून उलोवन वतली जीब दुसऱ्या वेळार धरता आनी जेन्ना जें उलोवपाचें तें उलयना आसतना रावता.

एक चली आसली. बऱ्या कुळांतली. शिलान बरी. रुप, गुण सगळेच नदरेन उजवी. पुण बाबडी आसली लुबडी. तिजें लग्न जुळूंक आयलीं सतरा विघ्नां. निमाणे एकेकडेन सोयरीक व्हेली. आवयन धुवेक शिकोवन दवल्ली : 'तुका पळोवंक येतले तेन्ना तोंडान उलोवं नाका. मान सकल घालून मर्यादेंत राव. मान हालोवन हय ना म्हणपाचें सुचय.'

थरिल्ले प्रमाण चलयेक पळोवंक न्हवरेकार आयले. अर्दवर बसले. आयच्या काळार इतली सादी, सरळ, भिडेस्त चली पळोवन न्हवऱ्याची आवय खुशालभरीत जाली. चली पसंत जाली. रोखडीच दिवपा घेवपाची उलोवणी सुरू जाली. भांगर कितें घालचें हो प्रस्न आयलो आनी चल्याचे आवयन म्हळें, 'चलयेक ज्यो वस्ती जाय आसत त्यो करपाच्यो.' आनी तिका कसल्यो वस्ती जाय असो प्रस्न विचाल्लो.

'माता भांगल दोघे दिस्तीक नाता.' एकदम चली उलोवन गेली.

मागीर तिणे जीब चाबली. पुण त्या आदीच तिगेली धांकिल्ली मूठ उक्ती जाल्ली.

देवान जीब दिली ती दिली, तिका हाड कित्याक दवल्लें ना काय? हे जिबेन आयज मेरेन कितल्या लोकांचो घात घेतला आसत! एका कवीन दातांच्या पांजऱ्यांत आशिल्ली नागीण अशें जिबेचें वर्णन केलां आनी म्हळां, 'ती केन्ना कोणाक कशी चाबत हाजो नेम नासता. म्हणून तिका सदांच दातांआड दवरप शाणेपणाचे जातलें.' अशें म्हणटात नागीण चाबली जाल्यार एकच मनीस मरता; पुण जीब चाबली जाल्यार व्हड अनर्थ जांव येता.

एक ऋषी रानांत ध्यानस्थ बशिल्लो. इतले मजगती मोराचो केकारव ताणे आयकलो.

ऋषीचें ध्यान भंगलें आनी मोराच्या आवाजाचे दिकेन तो पळोवंक लागलो. पांचव्याचार सैमामदीं अस्तंतेक देंवतल्या सूर्याचे फाटभूंयेंचेर ताणे आपल्या पाखांचो आयणो फुलोवन खोशयेन गायतल्या मोराक पळयलो. मनांतल्या मनांत म्हळें : ‘ध्यानस्थ बसून हांव म्हज्या काळजाचे संगीत सोदता. पुण देवानच निर्मिल्ले अप्रुप संगीत म्हज्या सामकार उतरलां. जे कानांनी आयकूंक येता, दोळ्यांनी पळोवंक मेळटा आनी देवाचे व्हडविकेचो साक्षात्कारय घडयता.’ तल्लीन जावन ऋषी त्या मोराक पळयत रावता.

इतले मदीं वारो सुटचो तसो सूंसूं करीत एक बाण येता आनी त्या मोराचे छातयेक पाखांचो आयणो धाकता, सर्गींचे संगीत अचकीत बंद पडटा.

‘आरे मोरा,’ त्या ऋषीच्या तोंडातल्यान उतरां भायर सरतात. ‘ह्याचवेळार तुजी जाब कित्याक हुळहुळ्ळी? तुज्या आवाजान म्हाका देवाचो साक्षात्कार घडयलो आनी शिकाऱ्याच्या काळजांत तुजेर बाण मारपाची प्रेरणा जागयली.’

मोर मेलो. ताज्या मर्णाक कोण कारण जालो? बारीकसाणेन येवजिल्यार शिकाऱ्यापरसूय ताजो आवाजच ताका नडलो. सर्गींच्या संगीतापरस मोराचे मांस आनी पाखांमदीं त्या शिकाऱ्याक अर्थ दिसलो आनी ताका मारप हो आपलो धर्म दिसलो.



# दुश्काळात तेरावो म्हयनो

बाजारांत गेल्लेकडेन तागेले पाकिट मारिल्लें. पाकिटांत सुमार तीनशें रुपया आशिल्ले.

'इतले पैशे बोल्सांत घेवन तूं बाजारांत कित्याक गेलो?' हांवें ताका विचाल्लें.

'तूं हालीं बाजारांत वचूंक ना दिसता.' ताणें म्हळें, 'बाजारात वचून पळय. शंबराची नोट हातात काडली जाल्यार केन्ना नाच जाता ती कळना. वस्त पळयली जाल्यार नोटी सोंपतात आनी नोटी सांबाळूंक गेलो जाल्यार हात हालयत परत येवचें पडटा.'

तागेली जाप आयकून म्हाका हांसूंक आयलें. तो म्हणटालो तें खरें. बाजारांत आतां विकतल्यांमदी सर्तच उरूंक ना. विकतें घेतल्यांमदीं सर्त लागल्या. ताका लागून सगळ्या वस्तूंचें मोल वाडत रावलां. तशें पळोवंक गेल्यार पीक थोडें ना. शाकभाजी, फळां, नुस्तें, तरेकवार कडधान्यां बाजारांत खूब आसात. पुण वांटपणाचें युग सोंपलां. एकलो वांटपण करूंक गेलो जाल्यार फाटल्यान उबो आशिल्लो दुसरो मनीस ताज्या दोळ्यांमुखार ती वस्त घेवन वता आनी वांटपण करतलो मनीस फटवता.

'तूं म्हण्टा तें खरें.' हांवें ताका सांगलें, 'आतां लोकांच्या हातांत चड पैसो घोळटा आनी तो कसो मोडचो हेंच तांकां समजना. देखून ते वस्त सवाय काय म्हारग हाजो विचार करीनासतना विकती घेतात.'

'हय. तशेंच घडटा. पुण तसो चड जालो म्हणून कोण असो फुंकून उडयना. पैशे जोडूंक कितले कश्ट पडटात हें तो जाणां आसता. मात जो आडमार्गांनी पैशे जोडटा ताका त्या पैशांची दुखी नासता... आतां हेंच पळय ज्याका दुसरो कसलोच मार्ग सुचना तो म्हजे सारक्या घाळ मनशार्ची पाकिटां चोरता.'

परत तो आपल्या चोरयेक गेल्ल्या पाकिटाच्या विशयाचेर आयलो.

'हय रे.' हांवें म्हळें, 'आयच्या युगांत मनशान घाळ रावंक फावना. आतां हाजेफुडें तरी मात्सो सादूर राव.'

'आतां तूंच पळय. एके वटच्यान ही म्हारगाय. म्हजेसारकेल्या पगारी मनशाक ती परवडना. पुण जेवतलो, खातलो जाल्यार म्हारग मोल मेजून वस्तू घेवचेंच पडटात. दुसरे वटेच्यान दुश्काळांत तेरावो म्हयनो येवचो तशे हे पाकिटमार त्रास दितात.'

म्हऱ्यांत एक मनीस आसलो. ताणे म्हळें, 'खरें रे बाबा तुजें. अंदू अधिक मास आयला. पोरूं पडिल्लो दुकळ आनी अंदू अदीक मास. आमचें फुडें कशें जातलें देव

जाणा!'

म्हज्यान हांसले बगर रावं नज जालें. 'दुश्काळांत अदीक मास' अशी म्हणणी' लक्षणिक आसता म्हणपाचें आमचे लोक लक्षांतच घेनात. तांकां दिसता अदीक म्हयनो येवप म्हळ्यार एका म्हयन्याचो खर्च वाडप.

हांवें म्हळें, 'अदीक मास येता तो फकत पंचांगांत. वेव्हारांत वर्साक ३६५ दीसच आसतात. काम करतलो मनीस तितलेच दीस काम करता आनी त्या सगळ्या दिसांचो पगारय घेता.'

'अशें कशें तर?' त्या मनशान वाद घालो, 'तूं आमचें पंचांगच फट म्हणून सांगूक सोदता काय कितें?

आमचे चर्चेक आतां वादाचें रूप येता, हें पळोवन हांव ओगी रावलों. दुसरे वटेच्यान ज्याचें पाकीट चोरयेक गेल्लें ताका ते म्हणणेचो अर्थ नाका आसलो. ताका आपल्याविशीं वळखीच्या लोकांनी सहानुभूती उक्तायिल्ली जाय आशिल्ली. हांवें ती उक्तायली आनी पंचांगाविशीं वाद घालतल्या मनशाक सांगलें, 'त्या विशयाचेर आमी केन्नाय थंडसाणेन उलोवया.'

म्हाका दिसलें तितल्यान तो विशय सोंपलो. पुण अदीक मास येता म्हळ्यार प्रत्यक्षांत वर्साचे दीस वाडनात अशें हांवे म्हणप म्हळ्यार भारतीय पंचांगांचेर अविस्वास उक्तावपासाके असा, अशें ताका दिसतालें आनी हिंदुत्त्वाची राखण करपाची जापसालदारकी आपली अशें मानून दोन दिसां उपरांत तो म्हजेकडेन वाद घालूंक परत आयलो.

कसल्याय प्रस्नाकडेन जेन्ना आमी बुध्दीची जनेलां बंद दवरून भावनावश जावन विचार करतात तेन्ना तर्क सोंपता. ताजेकडेन उलयता आसतना म्हाका तोच अणभव आयलो आनी ल्हान भुरग्याक समजावचो ते तरेन हांवें ताका पंचांग आनी अदीक मासाविशीं माहिती दिली. ती आयकून तो निरुत्तर जालो खरो. पुण ताजे समादान करप म्हाका शक्य झालें ना, तो म्हयन्यांनी गणित करतालो. ताणे म्हळें, 'वर्साक बारा म्हयने.' आनी चैत्र सावन फाल्गुन मेरेन बारा म्हयने बोटांनी मेजून दाखयले आनी पर्थून म्हळें, 'अंदूंच पळय ज्येश्ठ म्हयनो लागच्या आदी एक अदीक ज्येश्ठ म्हयनो आयला पुरत्या तीस दिसांचो ताका लागून अंदू चवथ लांबणेर पडल्या.'

'तूं म्हयने मेजपाचे सोडून दीस कित्याक मेजिना?' हांवें ताका विचाल्लें.

'दीस मेजल्यार कितें जातलें?' ताणें म्हळें, 'तीसाक बारांनी गुणच्या जाग्यार तेरांनी गुणून पळय.'

हट्टी मनशाकडेन आनी अदगिन्यानी मनशाकडेन वाद घालचे परस ते सांगतात तें खरें म्हणून ओगी रावप हे शाणेपणाचे लक्षण म्हणपाचे पर्थून एक फावट हांवें अणभवलें आनी निमाणे ताका सांगलें, 'घडये म्हजो तर्क चुकता आसूये. तूं म्हणटा तेंच खरें आसत.'

'आसत म्हळ्यार कितें?' ताणें म्हळें, 'आसाच. तुजेभाशेन पंचांगाची भास उलोवंक म्हाका येना आसत. पुण वेवहारय समजना कांय कितें? हांवेंय गीम पावस पळयल्यात. जिणेच्या तव्याचेर भाकरी भाजता आसतना बोटां हुलपावन घेतल्यांत.'

तो गेलो आनी हांव हांसलो.

खूबशा लोकांच्या मनांत तशें अज्ञान आसा. पंचांग म्हळ्यार निखटें कॅलेंडर न्हय. ज्याका पांच आंगां आसात. ताका पंचांग म्हण्टात. पंचांगांतील पांच आंगा म्हळ्यार तीथ, वार, नक्षत्र, योग आनी करण. भारतीय पंचांग हें चंद्राचेर केंद्रीत आसा. उमाशेच्या दिसा सूर्य आनी चंद्र एका जाग्यार येतात आनी पुनवेक विरुध्द दिशेक पावतात आनी परत उमाशेक एका जाग्यार येतात. अशे तरेन आमचो म्हयनो घडटा. हे ३६० अंशाचे गतीच्यो आमी ३० तिथी मेजतात. एक तीथ म्हळ्यार सूर्य आनी चंद्र हांचेमदलें १२ अंशाचे अंतर. अशे १२ चांद्रमासांत म्हळ्यार एका वर्सांत पाच ना जाल्यार स तिथींचो क्षय जाता. चौसश्ट दिसांत एक तीथ चुकता.

तीथ खंयची घेवची हेविशीं केन्नाय आमचे भीतर वाद जाता हाजे कारण कांय लोक सूर्यादयापसून सुर्यादयामेरेन चोवीस वरांच्या काळाक वार म्हणटात. (रातीच्या बारा वरांचेर तारीख बदलता. पुण वार बदलना) सूर्योदयावेळार जी तीथ आसत त्या दिसा तीच तीथ मानची. तिथीचो अर्ध भाग म्हळ्यार करण. आठशें कळांचे सत्तावीस भाग करून तांतलो एक एक भाग हुंपूक चंद्राक जो काळ लागता ताका नक्षत्र म्हणटात. चंद्र सूर्य हांच्या भोगाच्या आठशें कळांच्या आदारान योग थारायता.

पृथ्वीचे भोंवतणी चंद्राची एक प्रदक्षणा पूर्ण जावक जो काळ लागता ताका चंद्रमास म्हणटात. बारा प्रदक्षणां पूर्ण करूंक चंद्राक ३५४ दीस, ८ वरां, ४८ मिनटां आनी ३३.५५ सेकंद लागतात. अशे भाशेन चंद्रवर्स आनी सूर्यवर्स हांचेमदीं इकरा दिसांचे अंतर उरता. देखून दर तीन वर्सांनी पंचागांत एक अदीस मास घेवन चंद्रवर्साचो आनी सूर्यवर्साचो मेळ बसयतात. सामान्यतायेन ज्या म्हयन्यांत सूर्यसंक्रांत जायना त्या म्हयन्यातच हो अदीक मास घेतात आनी ज्या चंद्रमासांत दोन सूर्यक्रांती येतीत तेन्ना क्षयमास पाळटात. क्षयमास येता त्या वर्साक दोन अधिक म्हयने येतात. हे सगळे कोश्टक चंद्रवर्स आनी सूर्यवर्स हांचो मेळ सादपाखातीरच आसा.

देखून दुश्काळांत अदीक म्हयनो अशी म्हण रुढ जाल्ली आसली तरी वर्साचे दीस वाडनात हें समजावनय तो मनीस समजूंक पावलो ना जाल्यार हांव कितें करूं?

■■

# जापसालदारकी

घरांत एका तरनाट्याचो आवयकडेन संवाद (काय वाद?) चलता. थोडी उतरां कानार पडलीं तीं अशीं...

'म्हाका तुजें तें कांय लागना. म्हजेपुरतो हांव स्वतंत्र.' पूत आवयक सांगता.

'अशें कशें जातलें? तुज्यो भयणी वाडिल्ल्यो आसात. तांचो तरी इल्लो विचार कर.' आवय समजायता.

'भयणी पुरत्यो भयणी स्वतंत्र.' पूत जाप दिता. 'हांव कसोय वागलो म्हणून तांकां कितें? हांव सोरो पियेलो, चलयावांगडा भोंवलों ना जाल्यार वाळेसपणा केलीं म्हणून म्हज्यो भयणी वायट जातात?'

'जायनात' आवयन म्हळें, 'पूण समाज तुजेकडेन पळोवन तांकां मेजता. एका वाळेस भुरग्याच्या भयणींकडेन कोण लग्न जातलो?'

'कित्याक जावचोना? जो लग्न जातलो तो म्हजेकडेन जातलो काय भयणीकडेन? म्हजी भयण बरी. रंगान, रुपान, शिळान, शिक्षणान उजवी. हांव वाळेस म्हणून तिका कोण कित्याक नाकारतलो?'

'नाकारूंक नाका आसलें. पूण समाज तशें येवजीना. तो आमच्या पुराय कुटुंबाकडेन पळेता. भाव बेबदो जालो जाल्यार तागेल्या भयणीकडेन कोणूच लग्न जावंक कबूल जायना.' आवय समजायताली.

संवाद आनीकय खूब लांब चल्लो, पूण म्हजो विशय तो संवाद न्हय जाल्यार त्या संवादातल्यान फुडें आयिल्लो प्रस्न. मनीस हो आपल्या पुरतो स्वतंत्र. आमच्यांनी ताका एक पूर्ण एकम् (युनिट) म्हणू येता. पूण हो कुटुंबाचो घटक आसता. तो एकमुळो नासता. ताजें माप घेता आसतना समाज कुटुंबाच्या संदर्भातच तें घेता देखून आपलो पुरतो एकम् आशिल्लो मनीस हो कुटुंबाचो एक वांटो जावन बसता. ह्याच न्यायान जेन्ना आमी वाड्याचो, गांवांचो, प्रातांचो वा जातीचो, धर्माचो, वंशाचो विचार करतात तेन्ना तोच पूर्ण मनीस एका व्हडल्या एकमाचो एक ल्हान घटक जायत रावता. कुटुंबात ताचो विचार एक पूर्ण एकम म्हणून जाता आसलो तरी परकी मनीस ताका तो कुटुंबाचो घटक म्हणूनच वळखता. दुसऱ्या वाड्याचेर तो आपल्या वाड्याचो, आनी दुसऱ्या गांवांत आपल्या गांवाचो घटक जावन बसता. तसोच तो जातीचो, भाशिक समुहाचो वा वंशाचो, राष्ट्राचो घटक जाता. पुराय संवसाराचो जेन्ना आमी विचार करतात तेन्ना

मनीस हो ह्या संवसाराचो घटक जावन बसता. अशे तरेन आपले पुरतो एक पूर्ण एकम आशिल्लो मनीस एका विशाळ एकमाचो कितलो किरकोळ घटक जावन बसता हाचो आमच्यांनी सोपेपणान विचार करूं येता.

मनीस हो ब्रह्मांडाचो एक किरकोळ घटक आसलो तरी ह्या ब्रह्मांडापसून वेगळावंक नजो असो ताचो वांटो आसता. तसो वांटो मानलो जाल्यार पुराय ब्रह्मांडाची थोडीभोव जापसालदारकी त्या मनशाचेर येता.

एक भाव वाळेसण करता तेन्ना तो आपल्या कुटुंबांची जापसालदारकी विस म्हणपाची गजाल आवय पुताक समजायता. पुताक ती गजाल पटना. आपूण जे वि बरें - वायट करतां ताची फळां आपूण भोगतां. दुसऱ्यान तीं भोगप म्हळ्यार अन्याय अशें ताका दिसता. पूण समाज तशें मानीना.

फाटल्या दिसांनी काश्मिरांत भुंयकांप जालो आनी हजारांनी लोक मेले. सुनामी तुफान येवन लाखांनी लोक मेले. ह्या सैमीक संकटांचेर भाश्य करता आसतना एका विचारवंतान म्हळें कि, ह्या दोनय घडणुकांची जापसालदारकी मनीस जातीचेर आसा. संवसारांत जें कितें घडटा ताची थोडीभोव जापसालदारकी दर एका मनशान आपल्या आंगार घेवचीच पडटा. जे कितें घडटा ती एकोडी घडणूक न्हय. ती संवसारीक घडणूक. ह्या न्यायान बांगलादेशांत तुफान आयले आनी रशियांत भूंयकांप जालो ताची जापसालदारकी गोंयांत राय गांवांत रावतल्या एका शेतकामत्याची जावची पडली. त्या शेतकामत्यान ह्या देशांची नांवां वा त्या घडणुकांची खबर वाचिल्ली वा आयकल्ली नासली तरी त्या विचारवंतांच्या मतान ताची जापसालदारकी उणे जायना.

हो विचार वाचतकच म्हाका झेन संप्रदायाचे मान्यतायेचो उगडास जालो. दर एके संवसारीक घडणुकेत दर एका मनशाची सामुदायिक जापसालदारकी आसता अशें झेन संप्रदाय मानता. मळबांत जेन्ना चंद्र उदेता तेन्ना ताजे पडबिंब धर्तरेवयल्या तळ्यात पडटा. तो एक सोबीत देखाव आसता. सौंदर्य निर्मुपाखातीर चंद्रान वा तळ्यान निखालस प्रयत्न केल्लो नासता. चंद्राची वा तळ्याची तशी इत्सा नासली तरी तें पडबिंब पडटलें आसलें आनी सोबीत देखाव निर्मतलो आसलो. विरोध करपाचें बळगे चंद्रांत ना आनी तळ्यातय ना. अशे परिस्थितींत एकाद्रे घडणुकेखातीर कोणा एका मनशाक वा घटकाक जापसालदार धरप समा जातले काय कितें? सगळे आपसूक घडटा. एक विराट शक्त सगळे घडयता. जे कितें घडटा अशें दिसता ज्याका लागून घडये असो भास जाता तो एके तिसरे शक्तीचो परिणाम आसता. ते शक्तीचेर ह्या घडणुकांचो कसलोच परिणाम जायना देखून झेन सिध्दांत मानता की वैयक्तिक वा संवसारीक कसलीय घडणूक जेन्ना घडटा आनी ते घडणुकेचेर मनशाचे जेन्ना नियंत्रण नासता तेन्ना ते घडणुकेची जापसालदारकी मनशाचेर उरना.

भगवद्‌गीतेनय ह्या प्रस्नाचेर कांय सिध्दांत मांडल्यात. गीतेन कर्मयोग सांगला. कर्माविशीं कृष्ण म्हणटा की ह्या संवसारात हांवें करपा सारकें कसलेच काम ना. तरी आसतना हांव काम करीत रावतां. हे सगळे काम 'न मे लिम्पनी कर्मणि, न मे कर्मफले स्पृहा' ह्या भावनेन हांव करतां. पुण काम करता.

ह्या कामांक कृष्ण कर्म म्हण्टा. कर्म म्हळ्यार आपसूक सामकार आयिल्ले काम तितलेच सहजतायेन करप हे कर्म. कर्म सोदूंक वचपाची गरज ना वा कर्मापासून पयस पळपाचीय गरज ना. जेन्ना जेन्ना कर्म सामकार उबे रावता तेन्ना ते सहजतायेन करप हो कर्माचो पयलो सिध्दांत.

पूण कृष्ण हो सामान्य कर्मा उपरांत थांबना. कर्म केले कित्याक तर ते केले बगर कोण मुक्त जायना. पूण ते कर्म करता आसतना हांवे केले ही भावना उरली जाल्यार ते कर्म उरना. देखून कृष्णान अकर्म हे उतर वापरलां. अमकें काम हांवे केलें, म्हजे बगर तें जावचें नासलें हो कर्ताभाव हो एकवचनी प्रथमपुरूष. त्या कर्मातल्यान भायर सरलो तेन्ना उरता ते कर्म हे अकर्म जाता. कर्म करून हांवपण कुशीक काडलें म्हण्टकच जें उरता ते कर्म न्हय, तें अकर्म.

पूण अकर्माच्याय फुडें आनीक एक अवस्था आसता. ते अवस्थेक कृष्ण विकर्म म्हणटा. कर्मातलो 'हांव' कुशीक काडलो तरी त्या कर्मा सांगतान फळाची वान्सा दकील्ली उरता. अमके कर्म हांवे केले ना अशे मानले तरी त्या कर्माफाटलो हेतू उरताच. तो हेतू म्हळ्यार वान्सा वा अपेक्षा. जो मेरेन ही अपेक्षा उरता तो मेरेन कर्म सर्वोच्च अवस्थेक पावना. ती सर्वोच्च अवस्था म्हळ्यार विकर्म. अकर्म अवस्थेन पाविल्ल्या कर्मात आत्मो भरसलो जाल्यार ते कर्म विरगळून वता आनी ताकाच विकर्म म्हणू येता.

गीता म्हण्टा :

''मयै वेते निहतः पूर्वमेव
निमित्तमात्र भव सव्यसचिन!
द्रोणंच, भीष्मंच, जयंद्रथंच
कर्ण तवान्यानपि योधवीरान
मया हतासवं ज हि मा व्यथिष्ठा
युध्दयस्व जेतासि रणे सपभान!''

झुजात अर्जुनान जांका मारपाचे आसतात तांका मारचें अशे कृष्ण अर्जुनाक सांगता. त्या सगल्यांक हांवें आदींच मारून उडयल्यात. तांकां मारूंक तूं निमित्त जा. भीष्म, द्रोण, जयद्रथ, कर्ण आनी हेर सगल्या म्हारथीक हांवें ह्या आदीच मारून उडयल्यात देखून तांका मारपाचे निमित्त आपूण जाता हे खातीर तूं खंती जाय नाका अशें सांगून कृष्ण विकर्माची एक वेगळी अवस्था दाखयता. कर्म जरी तुज्या हातान घडिल्ले आसले, ताजे निमित्त जरी तूं आसलो तरी कसल्याच कर्माची जापसालदारकी तुजेर ना, कित्याक ते कर्म कृष्णान आदींच केल्ले आसता.

कृष्णान समजायिल्ली जापसालदारकीची ही भावना झेन भावनेपरस वेगळी. झेन भावना ही पोकळ जाल्यार गीतेची भावना अखंड म्हणूं येता.

देखूनच संवसारीक घटनेतली वा कुटुंबीक घडणुकेची वैयक्तिक जापसालदारकी मानपी भावना आकाराचो परीघ तोडून निराकार जाता आनी जंय निराकार आसता थंय जापसालदारकी कोणाची मानपाची? ■■

# जाची ताची नदर

सभावाक वखद ना अशें म्हण्टात. जल्माक येतना मनीस आपलो सभाव घेवन येता आनी हो संवसार सोडून वतना तो ताजेवांगडा वता अशी मान्यताय आसा. सभाव हो मनशाले सावळेसारको. आपले पसून ताका कुशीन काडप खंयच्च्याच मनशाक जमना. आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार खंयच्च्याच मनशाक आपलो सभाव वायट दिसना. आपल्या सभावाकलागून तो केन्ना केन्नाय अडचणींत लेगीत येता पुण ते घटकेक लेगीत मनीस आपल्या सभावाची खोड काडीना वा तो बदलपाचें येवजीना. चडच जाल्यार तो म्हण्टा, म्हजो सभाव विचित्रच. दुसऱ्याचो दोश दिसलो जाल्यार तो सांगलेबगर रावूंक नज जाता आनी तो सांगलो जाल्यार दुसरो मनीस रागार जाता. पुण मजा अशी कि दुसरो मनीस रागार जावचो न्हय म्हणून आपणे उलयनासतना रावंक जाय आशिल्लें अशें ताका केन्नाच दिसना. असो मनीस उलयता तो दुसऱ्याक दुखोवपाच्या इराद्यानच काय किते ह्या प्रस्नांची जाप सोपेंपणी मेळचीना.

मनशाचो सहवास आमकां घडलो म्हणटकच ताज्या सभावाची वळख जाता आनी एकवेळ ताजो सभाव समजतकच ताजेविशींचे आमचें मत बरें वा वायट जाता. आमी तागेल्या गुण दोषांसयत ताका आमच्या काळजांत आसपावन घेवंक सोदीनात. उरफाटें तागेल्या सभावाचें जें आंग आमकां मानविल्लें नासत तें बदलचें असो आग्रो जाता. आनी ह्या आग्र्यांतल्यान दोन इश्टांमदीं दुस्मानपणां येवं येता. पुण दुसऱ्यान सांगून मनशाचो सभाव बदलना. सभाव ही मनांत आनी काळजांत उपजल्ली वस्त आसता. कोळसो धुलो म्हणून तो धवो जायना. तसो मनशाक धारेर धल्लो म्हणून ताजो सभाव बदलना. कोळशाचो रंग बदलतलो जाल्यार एकय उपाय आसता. ताका उज्यांत घालचो पडटा. उज्यांत जेन्ना कोळसो तापता तेन्ना तो आपली काया बदलत होच न्याय मनशाकय लागू जाता. मनशाचो सभाव बदलप शक्य ना आनी ताका वखद ना अशांतलीय गजाल न्हय. पूण तो बदलपाखातीर अग्नीदिव्य करपाची ताजी तयारी आसची पडटा. पुण जाका दिसता आपूण करतां उलयतां वा येवजितां तेंच खरें तो अग्नीदिव्य करूंक कबूल कसो जातलो? मनीस जेन्ना हारशांत आपलें रूप पळयता तेन्ना आपल्याच रुपाक तो ओखेता आनी तोखेता. दुसऱ्याचे नदरेन तो कितलोय कुरूप असलो तरी खासा ताका आपुण सुंदर दिसता. इतलेंच न्हय तर आपल्या रुपाचो प्रभाव हेरांचेर पडटा अशेंय तो मानूंक

लागता. सभावाचेंय तशेंय आसता. आपलो सभाव वायट अशें मनशाक निखालस दिसना. देखून तो बदलचो अशें ताका येवजना.

मनीस आपल्या दोळ्यांनी संवसाराकडेन पळयता आनी ताज्या दोळ्यांक जें किदें रें. खरें वा सोबीत दिसत तें तशें आसा अशें तो मानता. हातूंत मनाची व्हडलीशी चूक ा. एक कुरूप बायल आसली. तिका सगले लोक हिंडिंबा म्हणटाले. तिका पळयली जाल्यार सगले हांसताले. पूण ते बायलेचेरय एक दादलो भाळ्ळो. तिच्या मोगांत पडलो आनी निमाणे तांचें लग्न जालें. एक दीस ह्या दादल्याच्या एका इश्टान ताका विचाल्लें, 'ते हिडिंबेकडेन लग्न जायसर तुका दुसरी खंयचीच बायल मेळनासली?' तेन्ना त्या दादल्यान जाप दिली ती विचार करपासारखीच. ताणें म्हळें, 'तूं तुज्या दोळ्यांनी तिजेकडेन पळयता आनी तिका हिडिंबा थारायता पूण तुंवे जर म्हज्या दोळ्यांनी तिका पळयिल्ली जाल्यार तुका तिजें उजू आंग दिसतलें आसलें.'

संवकळ ही मनशाक कुड्डी करता. एकाद्रो मनीस भोंवतणी घाण आशिल्ल्या वाठारांत रावता आसत जाल्यार सुरवेक तो ते घाणीविशीं कागाळी करता. पुण ल्हवू ल्हवू ताका ते घाणीची इतली संवकळ जाता कि ताज्या नाकाक ती घाणच येना. ह्याच न्यायान मनशाल्या सभावाचे दोष लेगीत संवकळीक लागून नदरेंत भरनात. नव्यान लग्न जाल्ली बायल आपल्या घोवालो विचित्र सभाव पळोवन सुरवेच्या दिसांनी गोंदळून वता. मागीर तो सभावलेगीत तिजे संवकळीचो जाता आनी तिका ताजें कांयच दिसना. इतलेंच न्हय तर तोच सभाव बरो अशें ती म्हणूंक लागता.

महाभारतांतल्या कथानकांच्या नांवान साबार मुळच्यो आनी अडेच्यो दृश्टांत कथा आमी आयकत आयल्यात. असली एक दृश्टांतकथा आयकल्ली. एक दीस द्रोणाचार्यान युधिष्ठीराक आपोवन सांगलें कि हस्तिनापुरांत जितले दुर्जन आसत तांची एक वळेरी तयार करून आपणाक दी. हस्तिनापूर हें व्हडलें शार. तातुंतले दुर्जन सोदून काडूंक खूब दीस लागतले. द्रोणाचार्यान युधिष्ठीराक तीन म्हयन्यांचो वेळ दिलो आनी म्हळें, 'ही मुदत सोंपनाफुडें म्हाका तुजो रिपोर्ट जाय.'

युधिष्ठीर दुर्जन सोदपाच्या कामाक लागलो. तीन म्हयने विसव घेनासतना ताणे दुर्जन सोदपाचें काम केलें आनी थारायिल्ल्या वेळाचेर गुरूसरी आयलो. 'काडले सगले दुर्जन सोदून?' द्रोणाचार्यान युधिष्ठीराक विचाल्लें.

युधिष्ठीर मोन्यानी उबो रावलो. कांय एक उलयलो ना. तेन्ना द्रोणाचार्यानच म्हळें, 'बाबा रे, दुर्जन सोदून काडपाचें काम हांवें तुका सांगिल्लें. फाटल्या तीन म्हयन्यांत तुवें दुर्जन सोदून काडिल्ले आसतले. हें काम तुका दिवचें आदीं हांवें तुका न्याय, नीत, धर्म, कर्तव्य, शास्त्र हे विशय शिकयल्ले. तुवें कितें केलें तें सांग?

युधिष्ठीरान मान सकल घाली आनी म्हळें, 'म्हाका क्षमा करात गुरुदेव. तुमचें काम करप म्हाका जमलेंना.'

'जमलेंना म्हळ्यार कितें जालें?' द्रोणाचार्यान परतें विचाल्लें, 'तूं लोकांक

मेळ्ळोचना? तुवें दुर्जन सोदलोच ना?'

'तसो हांव शाराच्या वाड्या कणकणी भोंवलों. हजारांनी लोकांक मेळ्ळों. तांचेकडेन उलयलो. तांच्या सभावांचो अभ्यास केलो पूण म्हाका एकय दुर्जन मेळ्ळोना.'

'म्हळ्यार येद्या व्हड शारांत एकय दुर्जन ना? मागीर तुका मेळिल्ले लोक कशे आसले?'

'म्हाका सगले सज्जन दिसले. हेर लोक जांकां दुर्जन म्हुण पाचारताले ते लेगीत म्हजे नदरेक सज्जन दिसले.'

द्रोणाचार्यान खुशालभरीत जावन युधिष्ठीराक आशीर्वाद दिले आनी म्हळें, 'तूं म्हळ्यार बऱ्या गुणांची खाण. हे गुण जतनायेन सांबाळ.'

उपरांत द्रोणाचार्यानी दुर्योधनाक आपोवन घेतलो आनी ताका हस्तिनापुरांतले सगले सज्जन सोदून काडूंक सांगलें. ताकाय तीन म्हयन्यांची मुदत दिली.

'बरेंभशेन' अशें म्हणून दुर्योधन कामाक लागलो. तो हस्तिनापुराच्या सगल्या सुवातांनी भोंवलो. पुण ताका खंयच सज्जन मनीस मेळ्ळोना. ताका दिसलें सगलेकडेन सुवार्थ, मत्सर, कपट, पातक भरिल्लें आसा. ज्या मनशाक लोक सज्जन म्हण्टात ताजी तपासणी केली जाल्यार दिसता कि ताणे सज्जनपणाचो बुरखो पांघरून आपलें दुर्जनपण लिपयलां.

मुदत सोंपतकच दुर्योधन द्रोणाचार्यासरी आयलो आनी म्हळें, 'पुराय हस्तिनापुरांत एकय सज्जन मनीस म्हाका मेळ्ळोना. जे जे लोक सज्जन म्हणून समाजांत वावुरतात तांकां हांवें वेगळ्या वेगळ्या कसांचेर घांसून पळयले. सगल्यांची सज्जनपणाची बेगड रोखडीच पिंजली आनी ते बेगडेपोंदा लिपिल्लें दुर्जनपण नदरेंत भरूंक लागलें.

'म्हळ्यार येद्या व्हडल्या ह्या शारांत एकय सज्जन ना अशें तुका म्हणपाचें आसा?' द्रोणाचार्यान अजापून विचाल्लें.

'आनीक कितें सांगतलो? म्हाका तरी तशें दिसता.' दुर्योधनान जाप दिली.

तेन्ना द्रोणाचार्यान म्हळें, 'ना दुर्योधना तशें न्हय. ह्या शारांत सज्जन रावतात आनी दुर्जनय रावतात. ह्या संवसारांत सत्यय जगता आनी असत्यय जगता. हांगा बरें - वायट, शुभ-अशुभ, धवें-काळें, सुख-दुख्ख, आशा-निराशा, उदारपणा - कंजूषपणा हातांत घात घालून वावुरता.'

'तर मागीर म्हाका एकय सज्जन कसो दिश्टी पडलोना?'

'जशी तुजी नदर तसो तुका संवसार दिसता.' द्रोणाचार्यान जाप दिली. 'तुवें तुजें काळीज नदरेची दासी करून दवल्लां. म्हेळें उदक जे भाशेन म्हेळें वस्त्र निर्मळ करूंक पावना तेचभाशेन जाचे नदरेंत दोष आसत ताका दोष नाशिल्लो मनीस दिश्टी पडचोना. जो मेरेन तूं तुजी नदर बदलचोना तोमेरेन सगलेकडेन तुका तुजेंच पडबींब दिसतलें. जेन्ना तुज्या मनांतलो म्हेळ वतलो तेन्ना तुजो पुरुषार्थ निर्मळ जातलो. जेन्ना तुज्या काळजांत उजवाड फांकतलो तेन्ना तुका काळोख दिसचोना.

एका राजकुंवराच्या पायांक कांटे लागचे न्हय म्हणून राजान फर्मान सोडलें कि कुंवर

जंय जंय वतलो थंय थंय जाजमां पातळावची. एका प्रधानान म्हळें, 'गांवभर जाजमां पातळावचे बदला कुंवराच्या पायांत जोतें घालें जाल्यार ताका कांटे लागचे नात.

पुण हें सत्य महाभारत काळार आमकां होलमूंक नासलें आनी आजय होलमूंक ना. महर्षी व्यासान एक दीस उद्वेगान म्हणिल्लें.

'न न कश्चच्छृणोति मे।'

म्हजें कोणच आयकना. हे अरुणरुदन त्या युगाकसावन आयजमेरेन आमी आयकत आसात. आपले नदरेन संवसार पारखीत आसात.



# जिणेची खोलाय

जिणेचो व्याप लांबायेवयल्यान मेजपाचो नासता, ताजे खोलायेवयल्यान मेजूंक जाय अशें म्हणटात. म्हळ्यार एकाद्रो मनीस कितली वर्सां जियेलो, हाजेवयल्यान तागेले जिणेचें मेजमाप घेवप समा जावचें ना. जितलीं वर्सां तो जियेलो तितल्या काळांत तागेले जिणेक रुंदाय कितली आयली आनी खोलाय कितली हाजेवयल्यान तागेले जिणेचें मोल थारावचेलें आसता. देखून जीण लांब आसचे परस ती खोल आसप गरजेची अशें एक सुभाषित आसा. ह्या सिध्दांताचेरच एक जपानी दिग्दर्शकान 'ईकीरू' नांवाचो एक सिनेमा तयार केला. जिणेक एक नवो अर्थ आनी ती जगचेखातीर प्रेरणा दिवपी ह्या सिनेमाचे दिग्दर्शक आसा आकीरा कुरासावा. जपानी भाशेंत 'ईकीरू' ह्या शब्दाचो अर्थ जगप असो जाता.

सिनेमाच्या आरंभाकच पडद्याचेर एक्सरेच्या एका निगेटिव्हाचो क्लोजअप येता. अदृश्य सूत्रधार सांगता कि हो एक्सरे ज्याचो त्याच मनशाची की कथा. पोटाच्या कॅन्सराचे पिडेन जर्जर जाल्ल्या ह्या मनशाक आपल्या रोगाची अजून खबर ना. ल्हवू ल्हवू कॅमेरा वातानाबे नांवाच्या त्या मनशाचेर थिरावता. सरकारी कचेरेंतलो तो एक अधिकारी. फायलींच्या राशींमदीं बशिल्लो आसता. सूत्रधार म्हण्टा फाटलीं २५ वर्सां तो जियेता. सुर्वेच्या दिसांनी उमेदीन काम करतालो तो हो मनीस, आतां वेळ सारता. यंत्रासारको काम करता. तसो तो कामांत बुडिल्लो आसता. पूण एका शून्यांत वावुरिल्ल्या सारको.

वातानाबेचो डॉक्टर खरी खबर ताका सांगिना. गोड गोड गजाली उलोवन खुशाल दवरपाचो यत्न करता. पूण आपणाक कॅन्सर जाला असो वातानाबेक दुबाव येता. एके तरेन फाशीची ख्यास्त जाल्ल्या बंद्याची जीण तो जगता. बायल मरतकच आपल्या चल्याखातीरच ताणे दुसरें लग्न केल्लें नासता. चल्याकडेन काळीज मेकळें करून उलयतकच उमेदीचीं दोन उतरां आयकूंक मेळटली अशें ताका दिसता. पूण विपरितच घडटा. एक निर्शेणी ताका घेरून रावता. एक दीस पूत आपले बायलेकडेन उलयता तें आयकून बापायक आनीकय दुख्ख जाता. बापायले पयशे कशे हातासपाचे ते विशीं तो बायलेक सांगता आनी संवसाराचें खरेलें रूप वातानाबे सामकार उक्तें जाता.

एका साध्या मायेस्त बापायची जीण खिणांत बदलता. उरिल्ले जिणेत मौजमजा करची अशें तो येवजूंक लागता. आपलें दुख्ख सोऱ्याच्या ग्लासांत बुडोवपाचो आनी

नाचाच्या घरांनी वचून जिणेची खोशी मोलावपाचो तो यत्न करता. पूण कॅन्सरान पोखरिल्लो देह तागेल्या मनाच्या उमाळ्याक साथ दिना. तागेले मनस्ताप आनीकय वाडटात. तान लागची आनी उदक नासचें अशी ताजी आवतीकाय जाता.

एक दीस अचकीत तागेले जिणेंत एक चली येता. पिरायेन ताजे परस अर्दान आशिल्ली ही टोयो ताजी जीण पुराय बदलता. आपले जिणेची विफलता तो तिका सांगता. आनी ते चलयेंत जी उमेदीची ल्हारां गाजतात तसली जीण आपणाक कांय दीस तरी जियेवंक मेळची अशी वान्सा उपजता. ती चली आर्दी वातानाबेच्या ऑफिसांतच काम करताली. आतां ती खेळणी तयार करपाच्या कारखान्यांत काम करता. ती एक दीस ताका सांगता, 'आता हांव खेळणी तयार करपाच्या कारखान्यांत काम करतां आनी ताका लागून पुराय जपानांत आशिल्ल्या सगल्या भुरग्यांकडेन इश्टागत जोडूंक पावतां.'

टोयोचें हें वाक्य वातानाबेक एक नवी नदर दिता आनी तागेले नवे जिणेचो आरंभ जाता.

तागेल्या फायलींनी कितलीशींच वर्सां मेरेन एक अर्ज पडून उरला. एका उश्टवाऱ्याच्या जाग्यार खेळाचें मैदान बांदपाचो अर्ज. सरकारी कार्यपध्दतीप्रमाण तो अर्ज एका खात्यांतल्यान दुसऱ्या खात्यांत भोंवत रावता. त्या अर्जाचो निकाल लावपाचो निर्धार वातानाबे करता. खासा सगल्या अधिकाऱ्यांकडेन उलोवन ते मैदान बांदपाचे मागणेक मान्यताय मेळोवन घेता. त्या उपरांत पांच म्हयन्यांनी ताका मरण येता.

जीण जगप आनी निखटे अस्तित्व उरप ह्यो दोन गजाली वेगळ्यो म्हणपाचें हो सिनेमा दाखयता. तरेकवार प्रतिकां आनी चित्रां, ल्हान ल्हान प्रसंग घालून दिग्दर्शकान आपलें कसब त्या सिनेमांत ओतलां. वाईप तंत्राचो बरो वापर केला. (पडद्यावेलें एक चित्र खिणांत बदलून थंय दुसरें चित्र हाडटात त्या तंत्राक वाईप म्हणटात.)

बायलांचें एक शिश्टमंडळ मैदानाचे प्रस्ताव घेवन जेन्ना नागरी विभागात येता तेन्ना त्या विभागाचो अधिकारी तांकां पार्क विभागांत धाडटा. थंयच्यान आरोग्य विभागांत. साबार खात्यांचे हुंबरे झरयत झरयत हे शिश्टमंडळ परत नागरी विभागांत पावता. हें थोड्या वेळाभितर दिग्दर्शकान दाखयलां. वातानाबे खोशी विकती घेवपाखातीर खंय खंय वता ताजें चित्रण जशें एका एका नव्या संवसाराची वळख दिता तेचभाशेन मैदानाक मंजुरी घेवपाखातीर तो ज्या ज्या खात्यांनी वता त्या खात्याच्या कारभाराची वळख आमकां सिनेमांत मेळटा.

आवाज हो मौनाचो विरोधाभास. ताजो सारको वापर हांगा ह्या सिनेमांत जाल्लो आसा. डॉक्टराच्या दवाखान्यांत आपलो नंबर लागपाची वाट पळयत वातानाबे बशिल्लो आसता तेन्ना थंय एक मनीस येता आनी डॉक्टराक दूशण दिता. डॉक्टर खरी खबर सांगिनात. कॅन्सर आसल्यार अल्सर अशें फट सांगतात अशी कागळ करता. वातानाबेच्यान तें आयकूंक नज जाता. तो उठून जागो बदलता. ताज्या तोंडावयले मौन मनांतले भाव ह्या वेळार दाखयता. निराश जावन तो जेन्ना दवाखान्यातल्यान भायर येता तेन्ना रस्त्यावयली

धांवतीं वहानां पडद्याचेर दिसतात. सगळें दुख्ख पळोवंक मेळटा. अचकीत एक गाडी आवाज काडून उबी जाता आनी वातानाबे म्हऱ्यांत थांबता. तेन्ना विचारांचे तंद्रेत घुस्पल्लो वातानाबे फुटपाथाचे दिकेन धावंक लागता आनी त्या वेळार तंद्रेंत आशिल्ल्या वातानाबेक वहानांचो आवाज आयकूंक येना हें सांगपाची ही एक वेगळी तरा.

एका हॉटेलांत आपले जिणेचे निर्शेणेची कथा तो जेन्ना टोयोक सांगता तेन्ना त्याच हॉटेलाचे कुडीत कांय तरनाटे कोणाचो तरी वाडदीस मनयतात. ते परबीं दिवपी गीत गायतात. तें कानार पडटा. जिणेची उमेद जागोवपाच्या प्रयत्नांत खेळांतलो एक सोसो टोयो ताका दिता. नवी जीण सुरू करपाची प्रेरणा ताका मेळटा आनी तो उमेदीन जेन्ना हॉटेलाच्ची सोपणा देंवता त्याच खिणाक जल्मदीस मनोवपी ती चली सोपणां चडून वयर वता. आनी तिज्या सांगातात आशिल्ले तिचे इश्टमित्र तिका जल्म दिसाचीं परबीं दितात नवी जीण सुरू करचे आदीं वातानाबे आपली पोरनी हॅट भायर मोखून, नवी हॅट माथ्या चडयता असो एक देखावो मदी येवन वता.

मनशाचे वृत्तीचो दिग्दर्शकान एक सोबीत संकेत ह्या सिनेमांत दिला. वातानाबेखातीर एक शोकसभा जाता. ते सभेत एके कुशीक मेयर आनी ताचे सांगाती बशिल्ले आसतात तांच्या हातांत सोऱ्यान भरिल्ले ग्लास आसतात. सोऱ्याचे घोंट घेतां घेतां ते वातानाबेक विसरतात आनी खेळाच्या मैदानाचे रचणुकेखातीर एकमेकांची फाट थापटून घेतात. पूण सोऱ्याची घुंवळ तकलेक चडना फुडें सत्य वदूंक लागतात. मैदानाक मंजुरी मेळोवपाखातीर वातानाबेन केल्ल्या वावराची ते तोखणाय करतात. त्या वेळा पुरते ते वेगळे तरेन जीण जगपाचो सोपूत घेतात. पूण उपरांत दुसऱ्या दिसा सरकारी कामां आदलेवरीच चलिल्लीं पळोवंक मेळटात.

कांय काळजाक हात घालपी दुश्यांय ह्या सिनेमात आसात. दिग्दर्शकान बारीकसाणेन ती दाखयल्यांत. आवय नाशिल्ल्या पूताविशीं बापायचे उमाळे उक्तावपी दृश्य तर खूबच प्रभावी जालां. शोकसभेच्या एका दृश्यांतले हें वाक्य पळयात. 'भावनावश जाले बगर वातानाबेक समजुवपाचो यत्न करप म्हळ्यार संवसारच एके खोल काळखे दरीत धुकलून उडोवप.' आनीक एका दृश्यांत वातानाबे आपल्या सांगात्यावांगडा सूर्यास्त पळयता. तेन्ना म्हणटा, 'फाटल्या तीस वर्सांचे जिणेंत पयलेच खेपे हांव थंड मनान अस्ताक वतलो सूर्य पळयतां.'

आनी निमाणे अस्ताक लागिल्ल्या सांजवेळा हिमवृष्टीच्या मजगती मैदानाचे फांटभूंयेचेर दाखयिल्लो वातानाबेचो तोंडावळो. तें निमाणे दृश्य तर काळीज हालयता.



# कलियुग

'सीतेचे भाग्य मोठें. देखून ती सत्ययुगात जल्मली.'

एके बायलेच्या तोंडचीं हीं उतरां आयकून हांवें आवाजाचे दिकेन पळयलें.

रेल्वेच्या डब्यांत चार बायलो खबरी जाताल्यो. खबरांचो विशय रामायण आनी महाभारतांतल्या पात्रांविशीं आसलो. तातूंत एक बायल द्रौपदीक भाग्यवान म्हणटाली तर दुसरी सीतेक.

'सत्ययुग म्हणून वेगळें कितें आसता?' दुसरेचो प्रस्न. 'सीतेक तरी सुख खंय मेळ्ळें? रामासारको घोव मेळूनय तिज्या वांट्याक पिडापीड आयली. राजघराण्यांत जल्म घेवनय वनवाशीण जाली. आपलें शीळ सांबाळूनय लोकांचे नदरेन कलंकिनी थारली... सत्याचो विजय तेन्नाय जालो ना. देखून रामायण काळांत सत्ययुग आशिल्लें आनी आज कलियुग आसा अशें म्हणप सारकें जावचें ना.'

'ना. ना. तूं कितेंय सांग. आज कलियुग आसा देखून फट उलयतल्याची वाचा धरना. अन्याय करतल्याक ख्यास्त मेळना. सत्याक मान मेळना. सीतेचेर जेन्ना अन्याय जालो तेन्ना तिज्या उल्याक भूंय धांवन आयली आनी तिने सीतेक आपल्या पोटांत घेतली.'

उपरांत तांगेली चर्चा द्रौपदी आनी सीतेक कुशीक दवरून सत्ययुग आनी कलियुगाचेर गेली आनी आयचें युग हें कलियुग मानूंक तयार नाशिल्ले बायलेन लेगीत आयच्या युगाची निंदा करतना दुसरे बायलेच्या सुरांत सूर मेळयलो.

डब्यांत एक हिंदी भाशीक नट आशिल्लो. ताणे म्हळें, 'कलियुग अजून येवंकना. आतां आमी पळयतात ती कलियुगाची निखटी सांवळी. विष्णु पुराणांत सांगून दवरिल्लें आसा कि जेन्ना पृथ्वीचो क्षय जातलो, जांच्या हातांत सत्ता उरतली तांची पुजा जातली आनी जांच्या तोंडार रुपडी आसतली तांकां मान मेळटलो. पुण त्या आदी एक व्हडलें झूज जातलें.

'पुण हें सगळें आजय जाता. मागीर तूं कलियुग येवंक ना अशें कशें म्हणटा?' एके बायलेन ताका प्रस्न विचाल्लो.

नटाकडेन जाप नासलीं. ताणे सांगलें, 'एका हिंदी नाटकांत आपणे काम केल्लें. त्या नाटकांत कलियुगाचें जें वर्णन आयलां तें हांवें तुमकां सांगलें. रामायण हांवें वाचूंक ना...'

तागेली ही जाप आयकून सगळे हांसले. फुडल्या स्टेशनाचेर त्यो बायलो देंवल्यो. म्हज्या सामकार नट बशिल्लो आशिल्लो. पुण ताजेकडेन उलोवपाची म्हाका इत्सा जाली

ना. हांव येवजूंक पडलों, कलियुग म्हळ्यार कितें? तें कशें आसता? ते केन्ना येतलें? तें टाळूं येतलें काय कितें? कलियुग म्हळ्यार उज्यासारकें सगळें लासून उडोवपी आसतलें? काय स्मशानासारकें शांत आसतलें? लोकांक रात दीस कांच उरतलो. काळजांतलो कळवळो सोंपतलो? सगळे बरें तें ना जातलें? फकत हिंसा, खून, बलात्कार इतलेच उरतलें? आवयक आपल्या भुरग्यांविशीं मोग दिसचो ना... एड्स धरून अणुबाँबमेरेन एका भयांकृत फुडाराची कल्पना करतना म्हजे आंग शिरशिरलें.

कलियुगाचो उल्लेख साबार ग्रंथांनी वाचूंक मेळटा. एका विद्वानान म्हळां कि भागवत, वायुपुराण, हरिवंश, पराशर संहिता, विष्णु पुराण सारकिल्या ग्रंथांनी कलियुगाचें जें वर्णन आयलां ताजें सार महाभारतांत येवन वता. काम्यक वनांत गेल्ल्या वेळार युधिष्ठिराची मार्कंडेय ऋषीकडेन भेट जाता आनी त्या ऋषीक तो कलियुगाविशीं विचारता. तेन्ना ऋषी सांगता : ‘कलियुगात ब्राह्मणाक फकत जानव्या वयल्यान वळखतले. तो शास्त्रांचो अभ्यास सोडून वेदातांची निंदा करतलो आनी आपले पोट भरचें खातीर शेतकाम वा व्यापार करूंक लागतलो. अधर्म धर्माक, लटकें सत्याक, सेवक राजाक आनी दादले बायलाक ग्रासून उडयतले. धर्मनिष्ठ लोक अल्पायुषी आनी दळीद्री जातले. मनीस जातीची पिराय उणे जातली. तांचे गिन्यान मोटवें जातलें आनी आंगातलें बळ दुबळें जातलें. धा बारा वर्सांचेर दादले बापूय जातले आनी सोळाव्या वर्सांचेर म्हातारे. जाण्ट्यांची नेणट्यांसारकी आनी नेणट्यांची जाण्ट्यांसारकी गत जातली. अन्याय आनी पिशेपण पळोवन हांसूक पावता तोच मनीस संवसारांत जियेवंक पावतलो. कोण कोणाक पातयेवचो ना. सगळे गरीब जातले. राजा निर्दय जावन प्रजेक लुट्टले. पावस वेळार पडचो ना. दुकळ, वादळ, शीं, पावस, बर्फ, भूक, तान सारकिल्या अरिष्टांक लागून लोक दुःखी जातले.

हें वर्णन वाचतकच प्रस्न पडटा. आयज जी परिस्थिती आसा ती कलियुगापरस बरी अशें कशें म्हणूं येत? आयज आमी दुसऱ्याच्या मत्सरान जळटात. सगळ्यांची निंदा करतात. जाचेकडेन पैसो आसा तो गुण आनी मान विकते घेता. बळ होच धर्म आनी न्याय जाला. कुटुंबसंस्था उद्ध्वस्त जावंक लागल्या. भाव भावाक वळखनात. इश्ट विश्वासघातकी जाल्यात.

हांव येवजितालो इतलें म्हणसर मुखावयल्यान नटान एक व्हडली जांबय दिली. तोंड उकते करून उजव्या हाताच्या बोटांची चिमटी तोंडार धरून वाजयली आनी गळ्यांतल्यान एक दीर्घ आवाज काडलो.

तागेलो तो अवतार पळोवन म्हाका हासूंक आयलें.

‘कित्याक हांसलो?’ ताणे म्हाका विचाल्लें.

आतां जाप कितें दितलो? हांवें म्हळें, ‘कलियुगाविशीं येवजितना हांसो आयलो.’

‘अजून तूं तोच विचार करता? तूं हुस्को करूं नाका. कलियुग आयलेय जाल्यार इतले बेगीन येना. तें पळोवंक हांव आनी तूं आसचे नात.’

‘पुण म्हाका दिसता आज चालू आसा तें कलियुगच. मनीस मनशाक वळखना. भाव भावाक मानीना.’

गरज नासता. देखून ताणे म्हाका शाळेंत घालोच ना.''

ह्या विशयाचेर त्या लेखकाकडेन हांव उलयलों. ताणे आपलो सिध्दांत समजायतना एका विचारवंताचें एक वाक्य सांगलें. त्या विचारवंतान म्हणिल्लें, ''म्हज्या शिक्षणांत शाळेची आडखळ आयिल्ली म्हाका नाका आसली. देखून हांव शाळेंत गेलो ना.''

हांव येवजूंक पडलो. एक नवो विचार म्हाका होलमलो. सैमाचेर नदर भोंवडायली जाल्यार आमी पळयतले कि, जायतें शिक्षण मनशांक आनी हेर प्राण्यांक शाळेंत गेलेबगर मेळटा. सवण्यांक उडूंक कोण शिकयता? कोगळीक गावंक कशें येता? मोर नाचाचे शाळेंत शिक्षण घेना. घोंटेर बांदूंक सवणी कशीं शिकतात? हेर प्राण्यांची गजाल सोडात. मनशाचेंच पळयात. जांणी वेद रचले ते ऋषी शाळेत गेल्ले? सॉक्रेटिसान शाळेंत शिक्षण घेवंक नासलें आनी आल्बर्ट आईनस्टायन एक मठ्ठ विद्यार्थी आसलो.

खंयचेय फॅक्टरीत वचून पळयलें जाल्यार सांच्यांत रकोवन वस्तू कश्यो तयार करतात ते आमकां दिश्टी पडटलें. त्या सगळ्या वस्तूंचे रुप आकार एक सारको आसता. मनशाची इतली गजाल आमी कबूल केली जाल्यार एका सांच्यातलें सामुदायिक शिक्षण कितलें अर्थहीन तें आमकां समजतलें.

आमचो शिक्षणक्रम तपासून पळयात. भास, व्याकरण, गणीत, इतिहास, भूगोल, विज्ञान हे विशय आमी भुरग्यांक शिकयतात. सगल्या भुरग्यांक तेच तरेन. त्याच उतरांनी तेंच शिक्षण दिवपाची सक्ती करतात. जेवपाची इत्सा नासली जाल्यार आवडीची वस्त लेगीत बेगीन ल्हान भुरगें खायना. भूक लागता तेन्नाच खाता. पूण भुरग्याची शिक्षणाची भूक जागयले बगरच आमी ताका अभ्यासक्रमांतलें शिक्षण खाववतात.

शाळेंत नापास जातल्या विद्यार्थ्यांचे प्रगती पुस्तक तपासून पळोवपासारकें आसता. कांय भुरगे गणितांत बरे मार्क घेतात, पूण हेर विशयांनी नापास जातात. ताका हेर विशय कित्याक कठीण लागतात ताजो आमी सोद घेनात वा जे विशय ताका आवडटात ते शिकपाची संदय दिनात.

जे. कृष्णमूर्ती म्हणटाले की, भुरग्यांक शिकूंक दिवचें. शिकोवचें न्हय. शिकूंक सोदतल्या भुरग्याक पालव दिवप हे शिक्षकाचें काम. कसलोच विशय ताजेर लादूंक जायना. कृष्णमूर्तीच्या अनुयायांनी ह्या विचाराचो आदार घेवन एक शिक्षण संस्था सुरू केली. रवींद्रनाथ टागोरान शांती निकेतन स्थापन केलें. पूण ह्यो दोनय संस्था हेर संस्थांवरी यंत्रां जावन बसल्यात. जंय भुरग्यांखातीर मोग ना, गिन्यानाक मान ना आनी कर्तव्याचें भान ना, थंय कसलीय शिक्षणपध्दत चलपाची ना.

घराच्या सुरक्षीत आनी मायेस्त वातावरणांतल्यान भुरग्याली शाळेत वचपाची पिराय जाता तेन्ना आवय बापायन आपणाकच एक प्रस्न विचारूंक जाय. शाळेंत आपूण भुरग्याक धाडटां थंय ताजें हीत आसा काय अहीत. शाळेंत वतकच ताजे नदरेंतलें तेज सोपचें ना मूं? ताजी बडबड आनी निष्कळंकपण हांकां बादा येवची ना मूं? सगल्याच आवय-बापायंक हो प्रस्न येवजता आसतलो; पूण पर्याय नासून ते आपल्या भुरग्यांक

शाळेंत धाडटात आसूंये.

एका विचारवंतान म्हळां की जंय शिस्त ना तीं शाळा बरी. जे शाळेत शिस्त आसता थंय भुरग्यांची मेकळीक बंदीस्त उरता. भुरग्यांक गरज आसता ती ताजें व्यक्तीमत्व फुलोवपाची. चावी दिल्ली बावली आमकां घडोवपाची नासता. मेकळ्या वातावरणांत कळी फुलता तशें भुरग्याचें व्यक्तीमत्व फुलोवंचेलें आसता.

भुरग्यांकडच्यान आवय बापूय अपेक्षा करतात तेन्ना ती आपल्यो उमेदी ताजेर लादतात. आपलो भुरगो डॉक्टर जावचो म्हणून गोरवांक आमडून गोठ्यांत व्हरतात तशी ती तांकां मेडिकल कॉलेजीत धाडटात. अशा प्रयत्नांक लागून त्या भुरग्यांत आशिल्लो एकाद्या संगीतकाराचो वा चित्रकाराचो आत्मो मरून वता. भुरग्यालें मन समजले बगर ताज्या शिक्षणाची दिशा थारावप म्हळ्यार ताज्या वेगळ्या व्यक्तीमत्वाचो अपमान करप. ह्या प्रयत्नांत कांय भुरगे उदकांत पडटकच पेवंक शिकतात आसले तरी खूबशे बुचकळ्यो खावन बुडून वतात.

नव्यान शाळेंत वतलो भुरगो रडटा. पूण ल्हवू ल्हवू तो विरोध करिना. तेन्ना आपलो भुरगो आतां शाणो जालो अशें आवय-बापायक दिसता. शाळेंत वतल्या भुरग्याक पळयात आनी शाळेतल्यान येतल्याक पळयात. बंदिवासांतल्यान सुटिल्ल्याचो आनंद शाळेतल्यान परत येतल्या भुरग्याच्या तोंडार पळोवंक मेळटा.

आमच्या देशांत एका काळार शिक्षणाची व्याख्या खूबच व्यापक आसली. देखूनच ह्या देशांत साहित्य, संगीत, कलेच्या आनी विज्ञानाच्या मळार रथी महारथी जल्म घेवंक पावले. पूण ब्रिटीश राजवटीत हांगा शिक्षणाचो एक सांचो तयार जालो आनी शिक्षणाची व्याख्या बदल्ली. आतां हो सांचो बदलपाचो यत्न करप म्हळ्यार पांजऱ्यांत बंदिस्त उरिल्ल्या सवण्यान मेकळीकेखातीर पांखां फडफडावपासारके म्हणूंक जाय.

मुंबय सारकिल्या शारांत एकादऱ्या भुरग्याची जीण तपासून पळयली जाल्यार आमकां दिसतलें की, पिरायेच्या पांचव्या वर्सासावन विसाव्या वर्सामेरेन एक भुरगो दिसपट्टो उणीच आठ वरां शिक्षणाखातीर खर्चिता. ल्हान पिरायेंत शाळेंत वचनासतना आपसूक आपली भास शिकोवन घेतिल्लो हो भुरगो पंदरा वर्सां मेरेन शिक्षक आनी पुस्तकाच्या आदारान लेगीत दुसरी खंयचीय भास आपले आवय भाशे इतल्या सोपेपणान शिकूंक पावना. ही एकच गजाल शाळेंतच शिक्षण मेळटा अशें मानप कितलें चुकीचें हें सिध्द करता.

गणितांत सत्तर टक्के मार्क मेळयिल्ल्या भुरग्यांची तोखणाय जाता. तो जेन्ना बापायलो धंदो चलोवंक दुकानाचेर बसता तेन्ना तीस टक्के गणित चुकलो जाल्यार कशें जातलें? नवे सुनेक मांयन पापड भाजूंक सांगले आनी तिणें धांतले पांच करपयले जाल्यार मांयचे नदरेन ती परीक्षेक पास जातली?

■■

# उबगण

‘जिणेक कांयच अर्थ उरूंक ना.’ दोनय हातांनी आपलें तोंड धांपून घेवन ताणें म्हळें. “म्हजी जीण म्हळ्यार एक उबगण. सकाळीं उठून ऑफिसांत वचपाची तयारी आनी सांजवेळां घरा येता म्हणसर सात जातात. तेंच उबगण हाडपी काम, वर्तमानपत्रांत त्योच बातम्यो, तेंच जेवण, टीवी वयले तेच प्रोग्राम आनी दुसऱ्या दिसा उठना फुडें ॲक्शन रिप्ले करपाचें!”

“तुजे भाशेन आमच्या सगळ्यांची जीण.” दुसऱ्यान ताच्या सुरांत सूर भरशिलो.

पयल्यान फुडें सांगले, “एका काळार कामाची उमेद आसताली. आतां सगळ्यो उमेदी भागल्यो. पन्नास वर्सा जालीं. आतां उरिल्ले जिणेंत हांव नवें कितें करतलो? जें करीत आयलां तेंच जिणेचे अखेरेमेरन करचे पडटलें हें येवजुन मन कांचवेता.

ह्या मनशाची जीण थांबल्या. आपूण एका दुष्टचक्रांत घुस्पलां अशें ताका दिसता. त्या चक्रातल्यान भायर कसो सरचो हें तो नकळ. पूण एका मार्गाच्या शेवटाक दुसरो मार्ग सुरू जाता आनी नव्या मार्गाचेर ताका नवी जीण मेळूं येता हें ताका कळना.

शिक्षण पूर्ण करतल्याकच जिणेच्यो सगळ्यो उमेदी मनशाच्या मनांत भरून येतात. तो कांय सपनां पळयता. ताका काम धंदो वा चाकरी जाय आसता. आपल्या पांयाचेर आपणें उबो रावचें अशें ताका दिसता. नोकरी मेळटकच तो धन्यताय भोगता. बडटी कशी मेळटली हें येवजीत बसता. पूण एक दीस बडटेची वाट लेगीत बंद जाता. तेन्ना ताज्यो उमेदी सोंपूक लागतात. ज्या कामांत ताका खोशी मेळटाली तेंच काम करूंक ताका उबगण येता.

सगळ्यांचें अशेंच घडटा. तेच तेच वायटकार तपासून तींच तींच वखदां दितल्या डॉक्टराक, किडेल्ले दांत काडून उडयतल्या डेंटिस्टाक, आमटाण, मिरसांग जोखतल्या पसरकाराक, तेच तेच शिकयतल्या शिक्षकाक, अन्यायाचो पांखो घेतल्या वकिलाक, तेच तेच जेवण रांदतले बायलेक... आपल्या कामाची उबगण येता. आनी ती उबगण मनांत दाटून येता तेन्ना त्या मनशासारकी आमची अवतिकाय जाता.

पूण हे उबगणीपासून मुक्ती मेळोवपाची युक्ती ना अशें न्हय. मनशाप्रमाणे युक्ती बदलतली. पूण अशे साबार मार्ग आसात, जे हे उबगणीपासून आमकां वाचयतले. ह्या मार्गाचो आज इल्लो विचार करूया.

उबगणीच्या दुष्ट चक्रांत घुस्पल्लो मनीस चड करून म्हणटा की, आपल्या कामाचें आपणाक फळ मेळटा. तो बडटेची अपेक्षा करता. म्हळ्यार एके तरेन आपलें भाग्य दुसरो थारायतलो अशें मानून बसता. खरें म्हळ्यार आपणाक कितें जाय हें सांगपाची जापसालदारकी जण एकल्याची आसता. आंगांत कसले गूण आसात आनी कसले दुर्गूण हें दुसऱ्यापरस आपुणच चड जाणा आसता. आपल्या मनाच्यो भावना दुसऱ्यापरस आपूणच बरे तरेन उक्तांवक शकता तेच खातीर आपल्या कामाचो आपणाचेरच बरो प्रभाव पडटा. म्हणून कामाची पध्दत कशी बदलची हें ताजें तो थारावंक शकता.

कसलें तरेचे काम केल्यार तुमकां खोशी भोगता हें आदीं येवजुचे. तसलें काम तुमच्या वांट्याक आयिल्लें नासत जाल्यार तसले काम मेळोवपाचो यत्न करचो. जाय तें सगळेंच मेळना हे मात विसरू नये. पूण कांय मेळचेंच ना, कांय जावचेंच ना अशें येवजून हातपाय पांघरून बसूंक फावना.

सगळेंच थारायिल्ले प्रमाण जायना. पूण धाडस हें करचेंच पडटा. तशें करतना इल्लो धोको पत्करचो पडटा. माडार चडून सूर काडटलो रेंदेर पाय निसरून पडूं येता, दर्यांत वचून नुस्तें धरतलो खारवी उदकांत बुडूं येता, विजेचे काम करतल्या इंजिनियराक शॉक लागूं येता आनी सरादीची राखण करतल्या सैनिकाक दुस्मानाच्या हातान मरण येवं येता. ह्यो सगळ्यो अपघाताच्यो गजाली. अपघात खंयय आनी केन्नाय जावं येता. कामाचेंय तशेंच आसता. एके तरेचे काम सोडून दुसरे तरेचें काम करतना अदमास चुकूं येता, गणित गडबडूं येता. पूण ती जोखीम पत्करपाची मनाची तयारी दवरची पडटा.

एक मनीस आसा. ताणे आपली पुराय जीण ल्हानसो पसरो सांबाळपात घाली आनी तागेले बायलेन एका ऑफिसांत कारकुनी केली. भुरगीं व्हड जावन घर सोडून वचसर आपलीं कामां कितलीं उबगणीचीं हाजें तांकां भानच जालें ना. पूण जेन्ना तें जालें तेन्ना आपूण दोगांय एका दुश्ट चक्रांत घुस्पल्यांत अशें तांकां दिसलां. हे फेरे चुकोवपाचो, हे दुश्ट चक्र भेदपाचो तांणी संकल्प केलो. खूब दीस तांणी एकठांय बसून साबार पर्यायांचो विचार केलो.

एक दीस बायलेन म्हळें, ''तुका आनी म्हाका संगीत खूब आवडटा. पूण आमकां एकूय वाद्य वाजोवंक येना, एकूय राग गावंक येना. आमी संगीत शिकून घेतल्यार कशें?''

जालें, तांकां जाय आशिल्लें तें मेळ्ळें. दोगांय संगिताचें शिक्षण घेवंक लागली. तो वाद्य वाजोवंक शिकूंक लागलो आनी ती गावंक. अजून तांची साधना चालू आसा. तांचे जिणेंतली उबगण आतां सोंपल्या. दोगांय उमेदीची जीण जगतात.

शिकून घेवपाची उमेद उबगणीक धांवडायता. काम करतना लेगीत नवें नवें आनी आवडीचे शिकून घेवपाची साधना चालू दवरप गरजेची. शिकून घेतलें, म्हणून फायदो जाताच अशें न्हय. पूण शिकिल्लें फुकट वचना. खंयच्या तरी खिणाक त्या शिक्षणाचो फायदो जाता. शाळा कॉलेजांतलें शिक्षण आसता. तशेंच घरा बसूनय शिकपासारके खूब आसता. जे लोक सदांच नवें नवें शिकत रावतात तांचे मुखार उमेदीची शिखरां उबीं

रावतात. एक शिखर चडून वतकच नवीं क्षितिजां दोळ्यांमुखार दिसूंक लागतात.

हालींच्या दिसांनी नोकरी मेळप कठीण देखून जी नोकरी मेळटा ती आमी धरतात. ती सोडली जाल्यार नवी मेळची ना हें आमी जाणात. विज्ञानाच्या संशोधनाची आवड आशिल्लो मनीस शाळेंत शिक्षक जाता आनी आपलें मन मारून तो एके चाकोरीतली जीण जगूंक लागता. पूण ह्या मनशान वेळार संशोधनाचें काम केलें जाल्यार एक दीस तो खंयचे खंय पांवू येता. जगातले मोठे मोठे शोध अशा फाविल्ल्या वेळार केल्ल्या प्रयोगांतल्यान लागले आनी सामान्य मनशांक संवसारीक कीर्त मेळूंक पावली.

कांयच करूंक येना असल्या मनशाच्यान समाजाच्या सुखदुःखाकडेन एकरूप जावं येता. सेवा ही खोसदिणी आसता. जाची सेवा आपूण करतां ताजी पावती रोखडीच मेळटा. पैशांनी तिचें मोल करूंक मेळचेना. समाजांत रावतलो मनीस आपल्या विचारांची आचाराची आनी उतरांची संतुला सांबाळूंक पावता. ही संतुला आमचे घरगुती जिणेत आमी सांबाळूंक पावनात. घरांत आमी कितेंय उलयतात, कशेंच वागतात. चौगांत येतात तेन्ना आमकां सगळ्यांची मनां सांबाळची पडटात आनी मेजून मापून उतर उलोवचें पडटा. जिणेक एक शिस्त, एक रीत मेळटा. ही रीत जो आपणायता ताका जिणेचे सोबीतकायेचे दर्शन घडटा आनी जिणेतलें म्होवाळपण होलमूंक लागता.



# वासाचो सहवास

खूब दिसांनी रेल्वे स्टेशनार पावलो. इतल्या वर्सां मजगर्ती रेल्वेन निजाची अशी वेगळी अस्मिताय केळयल्या. स्टेशनांत भितर सरना फुडें एके वेगळेच तरेचो वास येता. तो वास तुमकां हेर कडेन खंयच मेळचो ना. रेल्वे स्टेशनाचो वासच आगळो आनी वेगळो. आतां कोळशाचेर चलपी इंजिनां थोडीं जाल्यांत आनी डिझेलाचीं इंजिनां आयल्यांत. पूण धुंवर गेलो तरी वास तोच उरता. खंयच्याय स्टेशनाचेर गेलो तरी तोच वास येता. स्टेशना वयलो वास वेगळो आनी डब्यांतलो वेगळो. रेल्वेच्या डब्यांत एके तरेचो वास आसता. प्रवासाच्या आरंभाक सावन अखेर मेरेन तो वास आमकां सांगात दिता.

रेल्वेचो असो खाशेलो वास आसता तसो हॉस्पिटलाचोय वास आसता. खंयच्याय हॉस्पिटलांत तुमी वचात, थंय एके वेगळे तरेचो उग्र वास नाकांत भरतलो. आनी त्या वासा सरशीं आपूण हॉस्पिटलांत पावलां म्हणपाची जाणविकाय जावन मनीस कारण नासतना गंभीर जातलो. हॉस्पिटलांत रात-दीस वावटकारांक वखदां दितात. ऑपरेशनां जातात. फिनेल आनी हेर जंतुनाशकां वापरून हॉस्पिटल दिसपट्टें निवळ दवरतात. त्या सावार वासांची सरभरस जावन एक उग्र वास तयार जाता. होच तो हॉस्पिटलाचो वास.

शासकीय कचेरेचो एक वेगळो वास आसता. हालींच एके नवे इमारतींत एक सरकारी कचेरी गेली. ते इमारतींत कसल्या तरी कामा खातीर म्हाका वचचें पडलें. तो वेळ मेरेन वण्टी आनी जमीन दोनूय निवळ आसलीं. मेजां, कदेलांय नवीं आसलीं. इतलें आसुनूय थंय पावनाफुडें सरकारी कचेरेचो वास नाकांत भरले बगर रावलो ना. सरकारी फायलिंनी कागदां वर्सांची वर्सां कोंडिल्ली उरतात देखून तो वास येता जावंये. पूण दिल्लीक सावन गोंयां मेरेन खंयचेय सरकारी कचेरेंत गेले जाल्यार तो वास तुमकांय आयले बगर रावचो ना.

वास घेवप हें नाकाचें काम. नाक तो वास हेर इंद्रियांक पावतो करता. आमकां तो वास खूबशें सांगून वता. दोळे धांपून जरी आमकां रेल्वे स्टेशनाचेर वा हॉस्पिटलांत वा सरकारी कचेरेंत व्हरून दवरले जाल्यार दोळे उक्ते केले बगर आमी खंय आसात हें वासावेल्यान समजता. वासाचें आनी मनशाचें नातें खूब लागिचें. मनशाचे जिणेंत वास नासते जाल्यार जिणेच्या विंगडपणाची सोवा आकुंचीत जातली आसली. दोळ्यांनी आमी पळयतात आनी दोळ्यांक जी वस्त बरी दिसता तिची सोबा आमी तोखेतात. एक सोबीत फूल कोणाच्याय हातांत दिलें जाल्यार खिणभर तो त्या फुलाचो रंग, नाजूकपण, रुप तोखेतलो. आनी

नकळटना तें फूल नाका लागसार व्हरून हुंगतलो. त्या फुलाक वास आयलो ना जाल्यार ताका मोल उरचें ना. तो पर्थून तें तपासतलो. प्लॅस्टिकचें वा लुगटाचें फूल म्हूण समजलें जाल्यार तर ताका त्या फुलाचें व्हडलेंशे अगत्य उरचें ना. वास नाशिल्लें फूल म्हळयार आत्मो नाशिल्ली कूड. कांय घरांनी मारिल्ल्या जनावरांची कात कुंडो भरुन दवरिल्ली पळोवंक मेळटा. त्या जनावरांत जीव नासता देखून तीं विद्रूप दिसतात. फुलाचेंय तशेच आसता. सोबीतपणांतय विद्रुपताय आसता ती अशी!

वासाचो उगडास काडना बरोबर जिणेंत आपणे घेतिल्ले साबार तरांचे वास मतींत चाळोवंक लागतात. श्रावण म्हयनो आयलो म्हणटकच वोत आनी पावस हांचो आपालिपाचो खेळ सुरू जाता. फांतोडेर उठून आंगणांत येवचें. एके तरेचो वास तुमच्या नाकांत पातळूंक लागता. उत्तर रातीच्या वेळार येवन गेल्ले दडकेन न्हाल्लो सोंवळो पारजत आपली रंगीत देंटांची नाजूक मोतयां ल्हवू ल्हवू करून झडयता. झडटलें दर एक फूल निजाचो परमळ वातावरणांत पातळायता. तो वास जाणे घेतला ताचे मतींत तो दीसभर उरता आनी मनाक एके तरेची प्रसन्नताय दिता.

दीसभर न्हिदून राविल्ली आळशी रातराणी रातिच्या वेळार हांतुणाचेर लोळत लोळत कूस परतिता. आनी मागीर माजराच्या पिला भाशेन आपले बारीक दोळे ल्हवू ल्हवू उकते करता. कोणूच आपणाक पळयना, सगळे कडेन गुपाट काळोख आसा म्हणपाची खात्री जाली म्हणटकच ती आळस दिता आनी उठून नाचूंक खेळूंक लागता. रातभर तिचो हो नाच चालू आसता. उदेंते कडेन सुर्याचीं किर्णा आनी ताजें तेज वयर सरूंक लागता.

तसो दर एका झाडाक आनी दर एका फुलाक निजाचोच असो एक वास आसता. झाड वा फूल वाऱ्यार धोलता आनी वासा वरवीं उलयता. दोळ्यांचेर पट्टी बांदली आनी नाकालागीं मोगरें, शेंवतें, जाय, चांफो, गुलाब कसलेंय एकाद्रें फूल धरलें जाल्यार तें फूल पळयनासतना वासानच मनीस फुलाचे नांव सांगूंक पावता. तो वासच आपलें नांव उलयता, आपल्या रंगाची, रुपाची वळख करून दिता. दर एका फुलाचो रंग खाशेलो, ताचो आकार वेगळो, रूप वेगळें आनी घडये देखुनूच ताचो वास वेगळो. तांकां वेगळीं वेगळीं नांवां आमी दिल्यांत. पूण कांय फुलां सोबीत आसलीं तरी बाबडीं मोनी आसतात. तांकां वास आसना. आबोल्याक पळयात. ज्या मनशान त्या फुलाक 'आ-बोलें' अशें नांव दवरलें तो खऱ्यांनीच फुलांचो रसीक आसतलो. सगळे तरेची सोबितकाय ज्या फुलाकडेन आसा, राशीर आसलें जाल्यार ताजो रंग कोणाकय भाळयतलो. त्या फुलाक बाबडो निजाचो असो वास ना. ज्या फुलाक वास ना ते मोनें. देखून 'आ-बोलें'. एकाद्री चली रंगान, रुपान उजळ आसली आनी ती मोनी आसली जाल्यार तिच्या वांट्याक जें दुःख येता तेंच दुःख फुलांमदीं आबोलें भोगता वावडें!

जेवणाचो वास हो असोच. रांदचे कुडींत कितें शिजता ताचें वर्तमान वास दिता. मसाल्याचो वास नाकांत पावनाफुडें आज ताटांत कितें आसतलें हाची सुलूस पयलींच लागता. भज्यांचो वास वेगळो तसो दर एका पदार्थाचो वास वेगळो आसता. उडपी हॉटेलांत

ताटांत सात-आठ वाटयो आसल्यो तरी त्या सगळ्या वाटयांचो वास मात एका सारको. भूक सोंपोवपी असो तो वास, ही गजाल वेगळी.

भुरगेपणांत आमी नवे कपडे हाडले म्हण्टकच ताची घडी उसोवन वास घेताले. लुगट नवें कांय पोरनें हें वासावेल्यान वळखूंक येता. आदल्या काळार बायलो शालू आनी पितांबर लुगटांत गुठलावन पेटांनी दवरताल्यो. केन्नातरी ती रसमी वस्त्रां वताक सुकयताल्यो. त्या वस्त्रांचो वास वेगळो. नवें पुस्तक उकतें करतकच एक वेगळो वास येता. पूण तो चड दीस उरना. पुस्तक घोळटा तसो ताचो वास उडून वता. आमी पुस्तकाक वास येवचो देखून तातूंत एकाद्रे चाफें घालून दवरताले. चाफें सुकून वतालें. पूण ताचो वास सासणाचो त्या पुस्तकांत घुसपून रावतालो.

मनशां परस जनावरांचे नाक चड तीक्ष्ण. खंयचोय सुक्षीम वास पयस सावन तांच्या नाका मेरेन पावता. वागाक मनशाचो वास, गोरवांचो वास येतकच तो देहभान विसरून ते दिकेन धांवक लागता खंय, आनी सुणें एकादरो वास हुंगत हुंगत कितलेंय अंतर कापता. देखुनूच पोलीस गुन्यांवकारांक सोदूंक आनी घुंवळिच्या वखदांचो सोद घेवंक सुण्यांचो बेस बरो उपेग करतात.

पूण ज्या मनशाक वास येना ताची आवतिकाय कशी जाता काय? भेड्ड्यांक आयकूंक येना. तो आपल्याच नादांत गुल्ल उरता. कुड्ड्याक दिश्टी पडना. ताका सगळो संवसार गुपाट काळोख कसो दिसता. पूण जाका वासूच येना ताची व्यथा खऱ्यांनीच मोठी आसतली. ती दुसऱ्याक सांगून समजुची ना. सांगुकूय येवची ना. पानार बसून आमी जें आवडीन खातात तें खाण आमकां रुचीक लागता. हाचें एक कारण ताचो वास.वास नाशिल्लें खाण रुचीक आसुंकूच नज.

म्हजे वळखिचो एक मनीस आसा. अमीनभाई पीरसाब. तो वासांचो भक्त. तरेकवार वासांचे चेर तो पुंजायतालो आनी कापसाचो ल्हानसा बोळो त्या चेरांत बुडोवन आपल्या कानांत खोयतालो. अमीनभाई पीरसाबाक पळयलो जाल्यार तो सदांच संतुश्ट दिसतालो. ताचें मुखामळ सदांच हांसरें उरतालें. मनांतल्या मनांत तो कसली तरी तान गायता असो भास जातालो. हांवें एक दीस विचारलें. 'तुजे हे प्रसन्न वृत्तिचें गुपीत कितें?'

ताणे सरळ अशी जाप दिली ना. म्हळें, 'हांव तुका दाखयतां...'

आनी चेरांत एक कापसाचो बोळो बुडोवन म्हज्या हाताक घांसलो आनी उपरांत ल्हवूच म्हज्या कानाच्या वयल्या अर्दांत आशिल्ले खांचींत तो खोयलो.

'कशें दिसता?' अमीनभाईन म्हाका विचारलें.

म्हाकाय खरेंच प्रसन्न दिसलें. हांवें तशें ताका सांगलें. तेन्ना ताणे म्हळें, 'आता हो वास उरसर तुजें मन प्रसन्न उरतलें. हुस्के विरोवपाची तांक बऱ्या परमळांत आसता. आनी परमळा वरवींच मनशाक आनंद दिवपी ग्लॅंडस् सक्रीय रावतात.'

ताणे दिल्लें तें कारण कितलें विज्ञानीक तें हांव नकळं. पूण तो म्हणटालो तातूंत अर्थ आशिल्लो.

फाटीं स्कुटरी वेल्यान वता आसतना ताका अपघात जालो. तकलेक मार बसून तो वेशुध्द जालो. हॉस्पिटलांत व्हरून शस्त्रक्रियाय करची पडली. आतां तो बरो जाला. पूण तागेले जिणेचो अर्थूच सोंपला. मेंदवा लागसार एक असो बिंदू आसता जो वास घेवपाची शक्त आमच्या नाकांत पावती करता. डायनामो जसो बॅटरी चार्ज करता तसो. त्या अपघातांत तागेल्या वासाच्या बिंदूक मार बसलो आनी तेन्नाच्यान तो मशिनावरी भोंवता. सगळीं कामां करता. पूण माकनाभशेन. ताका वास येना.

हांव ताचे खबरेक गेलो तेन्ना ताणें म्हळें, 'म्हजी ट्रेजडी कितें सांगतलों? अपघातान म्हजो एक दोळो वा कान गेल्लो जाल्यार म्हाका तितली खंत भोगपाची न्हय. पूण म्हजो वास गेलो आनी हांवें जमयिल्ले सावार चेर आत्तां उदक जावन पडल्यात. आवोल्या सारकी गत जाल्या पळय म्हजी!' - अमीनभाई पीरसाव खरोच निर्शेल्लो.

वासाचें आनीक एक शास्त्र आसता. सगळे वास सगळ्यांकच मानवतात अशें नासता. कांय जाणांक ते वास धादोसकाय दितात तेच वास हेरांचें कळ्ळ उसळायतात. ज्या परमळान एकाद्ऱ्या मनशाची कळी फुलता, त्याच परमळान हेरांक ओंकारेय येतात. देखुनूच मनशा - मनशा कणकणीं वेगळी प्रकृती दवरल्या आनी वस्तू वस्तू कणकर्णा वेगळो परमळ दवरला.

वासां विशीं येवजिता आसतना एके पोरने कथेचो उगडास जाले बगर रावना. ही कथा नुस्तेकान्निची, जांकां मत्स्यगंधा म्हणतात. नुस्त्याच्या बाजारांत जो वास येता ताका आमी हिंवसाण म्हणटात. तोच वास घेवन एकाद्री मत्स्यगंधा म्हऱ्यांतल्यान गेली जाल्यार तो वातावरणांत पातळता. नुस्तें खावपी मनशाक लेगीत तो वास सोंसना. आनी तो नाकार हात दवरता.

कांय मत्स्यगंधा नुस्तें विकूंक शारांत गेल्ल्यो. श्रावण म्हयन्यांतले दीस. नुस्तें विकून परतता आसतना तांकां रात जाता. फुडें वचप भिरांतिचें. खंयूय आसरो मेळ्ळो जाल्यार रात थंय सारची आनी फांतोडेर उठून घरा परतुचें अशें त्यो येवजितात. पूण लागसार एकूय घर दिसना.

थोडें अंतर चलून वतकच तांकां पयस दिव्याचो उजवाड दिसता. ते दिकेन तीं पावलां उखलतात. दिवो लागीं पावता तशें तांकां 'सू' जाता. निमाणें तीं त्या दिव्याच्या घरांत पावतात. फुडलें दार उकतें दवरून एक मनीस बसला. तो ल्हान व्हड फुलांचे कंडे भरता. तेन्नाच तीं नुस्तेंकारां तागेल्या दारांत उबीं रावतात.

नुस्तेंकारां ताका आपली अडचण सांगतात. ते राती पुरतो थारो दी अशें ताचे कडेन मागतात.

'बरें भाशेन!' - तो फुलकार म्हणटा - 'भितरले कुडींत तुमी न्हिदात. हांव रातभर जागोच आसतां, फांतोडेर हीं फुलां शारांत पावोवंक जाय!'

नुस्तेकारां तांचे रिकामे पांटले भायल्या आंगणांत दवरून भितल्ले कुडींत वतात आनी फुलकारान दिल्ल्या मांदऱ्यांचेर न्हिदतात.

भायलेवटेन फुलकार आपले भितर गुल्ल आसता. त्या वाटारांत तागेलें फुलांचें पोरसूं

आसता. आनी घरांत सगळे कडेन फुलां. रातिच्या वेळार तो फुलां गुंथून कंड्यांनी भरून दवरता. आनी सकाळच्या वेळार कंडे शारांनी धाडटा. तोच ताचो धंदो.

भितल्ले वटेन नुस्तेकारां मांदरेर न्हिदतात. पूण तांका न्हीद कशीच येना. तीं कुशीर कुशी परतितात. 'दीसभर कश्ट करून पुरो जाल्लें आसतनाय न्हीद कशी येना?' एकली दुसरेक विचारता.

'नव्या थळार अशेंच जाता दिसता.' तिसरी जाप दिता.

मदींच चौथी म्हण्टा, 'हो फुलांचो वास सामको सोंसूंक नज. ताका लागून म्हाका न्हीद पडना अशें दिसता!'

ही जाप आयकना फुडें एकटेक कितें तरी येवजता. ती ल्हवूच उठून भायर आंगणांत वता आनी नुस्त्याचे रिते पांटले हाडून ते सगळयांच्या उशां कडेन दवरता. ते पांटले कुडींत हाडिनाफुडें फुलांचो परमळ विरून वता आनी सगळीं गाढ न्हिदतात!



# शॉर्ट कट

शिंयाचे दीस आशिल्ले. रेल्वेच्या प्रवासान सगळें आंग मचकट जाल्लें. हांव आनी म्हजो एक इश्ट स्टेशनावयल्यान टॅक्सी करून गोवा सदनांत पावले तेन्ना सांजवेळची स वरां जाल्लीं. आकांताचे शीं पडिल्लें. थोड्या वेळाआदी पावस पडून गेल्लो. ताका लागून शीं वाडिल्लें. आंगातले गरम कपडे भेदून थंड वारो हाडान हाड सणसणायतालो.

गोवा सदनांत पावतकच हांवें इश्टाक म्हळें, "आदीं आमी न्हावन घेवया. उपरांत भायर वचून जेवया."

वातानुकुलित रुमांतलें उबेंत निकतेच थाकाय येत्रंक लागिल्ल्या इश्टाक न्हावपाची कल्पना मानवली ना. ताणें म्हळें, "आंगावयले कपडे काडूंकच हांव तयार ना. म्हाका हें शीं सोंसना. भायर वचून जेवचे परस हांगाच कितें मेळत ते हांव खातां."

हांवे म्हळें, "दिल्लीत दिसाचेंय आनी रातचेय आतां शीं उरतलें. म्हणटकच तूं इतलेय दीस न्हावचो ना आनी भायर भोंवचोय ना?"

"आज तरी भोंगूं. फाल्यां पळोवया." ताणें म्हळें.

म्हाका एक मस्करी येवजली. हांवें म्हळें, "बरी याद जाली. दिल्लींत शिंयांच्या दिसांनी न्हावपाची अडचण आसता देखून एक गुळी मेळटा. ती गुळी घेतल्यार न्हावपाची गरज नासता. तुका एक गुळी हाडूं?"

"हाड." ताणें म्हळें.

हांव हांसलो. तेन्ना ताणे फुडें म्हळें, "न्हावपाची गुळी येता अशें तुवें म्हाका सांगलें तें म्हाका खरें दिसलें अशें तूं समजूं नाका. पूण एक गुळी घेवन तुज्या तोंडांतल्यान सुट्टा जाल्यार पळोवया. म्हणून हांवें हाड म्हळीं."

त्या दिसा आमी न्हावपाचे गुळयेचेरच उलयत बसले. विज्ञान इतलें फुडें पावलां की कोणेय तसली गुळी तयार केली जाल्यार अजाप दिसपाचें कारण ना.

दुसऱ्या म्हाझुजावेळार जपानान एक अशी गुळी सोदून काडिल्ली जी घेतली जाल्यार लस्करांतल्या सैनिकांक दीसभर थाकाय उरताली आनी पोटाक भूक लागना आसली. सैनिक पैस उरता आनी भुकेन तो जाम जालो जाल्यार झुजपाचें त्राण ताज्यांत उरना. देखून ही गुळी सोदून काडिल्ली अशें म्हणटात. केन्ना केन्नाय मनांत येता असल्यो गुळयो बाजारांत आयिल्ल्यो जाल्यार वजन देवोवपाच्या कामाक त्यो उपकारतल्यो आसल्यो.

घडये वजन देवोवपाच्यो ज्यो गुळयो बाजारांत मेळटात त्यो तसल्योच आसूंये.

एक दीस एका डॉक्टराकडेन हांवे तसल्या गुळ्यांचो विशय काडलो. तेन्ना ताणे सांगलें, ‘‘मनशाच्या आंगांत थाकाय उरचे खातीर ताका कांय जीवनसत्वां दिसपट्टी जाय आसतात. पूण ही जीवनसत्वां आमी अन्नांतल्यान मेळोवंक जाय. व्हिटामिनाच्यो गुळयो खावन भागचें ना.’’

म्हजे वळखीचो एक मनीस आसा जाचे वजन शंभर किलो परस चड आसा. ताका चलूंक त्रास जाता. उलयतनाय तो खर्शेता. ताका डॉक्टरान सांगलें, ‘‘तुजे हे पिडेक वखद ना. पूण उपाय आसा. जेवण थोडें कर. स्टार्च आशिल्ल्यो वस्तू खाव नाका.’’

‘‘हांव कांयच खायना डॉक्टर,’’ ताणे जाप दिली. ‘‘म्हाका दोन वेळाचे पोटभर शीत मेळ्ळ्यार पुरो.’’

‘हेंच चुकता तुजें,’’ डॉक्टरान म्हळें, ‘‘शीत सोड आनी साकर खावं नाका. तुजें वजन देवतलें.’’

‘‘तें मात सांगूं नाका.’’ ताणें म्हळें. ‘‘दोन वेळचे जेवण जेवले बगर म्हाका सुख लागचें ना आनी पोटभर जेवपाचें नासत जाल्यार जगपांतय मौज उरची ना.’’

‘‘मागीर तुजें कशे जातलें तर?’’ डॉक्टरान विचारलें.

‘‘तें हांव नकळ म्हणूनच तुजेसरीं आयला.’’ ताणे जाप दिली. ‘‘पैसे कितलेय पडल्यार पडूं तूं म्हाका शीत सोडूंक सांग नाका. हांव कसलेंय वखद घेवंक तयार आसा.’’

‘‘बरे आसा. शीत थोडे जेव.’’

‘‘आनी पोटा भुकेक कितें खावूं? हो म्हजो एदो व्हडलो देह पोसूंक थोडें शीत जेवन कशें भागत?’’

‘‘तशे जाल्यार तूं थोडो व्यापाम कर. सादो व्यायाम. दिसांतल्यान सात-आठ मैल चल.’’

‘‘तीच तर म्हजी अडचण.’’ पेशंटान म्हळें, ‘‘चल्लों जाल्यार वजन देवतलें हें हांव जाणा. पूण पांय उखल्ल्यार म्हाका खरस येता म्हणून वखद सोदतां.’’

डॉक्टराक कितें सांगचें हें येवजना जालें. ताणें म्हळें, ‘‘तशें जाल्यार तूं राव. अमेरिकेत एक संशोधन चल्लां. ते एक असली गुळी सोदून काडटात जी न्हीदता आसतना घेतली जाल्यार रातभर चरबी लाशीत बसता आनी सकाळचे पांच कील वजन देंवता.’’

एकदम खुशालभरीत जावन पेशंटान म्हळें, ‘‘हय हय. तसली गुळी म्हाका जाय. खंय मेळटा ती?’’

‘‘अजून तयार जावंक ना. संशोधन चालू आसा. थोडे दीस वाट पळय.’’ डॉक्टरान जाप दिली.

एकेवटच्यान आमी मनशाचे स्वतंत्रतायेविशीं उलयतात आनी दुसरे वटेन आमी परावलंबी जावंक लागल्यात हाजें आमकां भानच उरना. आदल्या काळार बांयचें उदक

कळशांनी उसपुचे पडटालें. आंगार कळशे रकोवन आमी न्हाताले. आपले कपडे आपल्या हातांनी उंबळटाले. घरांत बायलो रांदन फुकून फुकून पेटयताल्यो. वानाचेर वा फातरीचेर वांट्टाल्यो मुसळान कांडटाल्यो. ते दीस गेले. पावसाचे आदीं घरांत पुरु मेंत करताले. तेंय युग फाटी पडलें. आता आयल्यात नळ आनी गॅस, कपडे धुवपाची मशिनां आनी मिक्सर. मनीस ही प्रगतीचीं लक्षणां मानता. पूण तशे करतना तो आपली स्वतंत्रताय घाण दवरता म्हणपाचें मात ताज्या लक्षांत येना.

आदल्या काळार आमी तेलाचे दिवे वापरताले. आतां विजेचो झगमग आयला. पूण जेन्ना वीज बंद पडटा तेन्ना आमकां आमी कितले परावलंबी जाल्यात हाजी जाणविकाय जाता. कांय वर्सां आदी न्यूयॉर्काक वीज बंद पडून लोकांचे कशे हाल जाले हाजीं वर्णनां हांवे वाचिल्लीं. रेफ्रीजरेटरांत बंद डब्यांनी जेवण दवरपाची जांकां संवय आसली. तांकां ते डबे उक्ते करपाक वीज नासली. ते उपाशी पडले. एके तरेन आमकां च्या, कॉफी इन्स्टंट जाय. तशे जेवणय इन्स्टंट जाय. आमचे सोशीकपण सोंपलां. अजून आवयच्या गर्भात णव म्हयने भुरगे उरता आनी झाडावयली कळी फुलसर आमी धीर धरतात, हे उपकार म्हणूंक जाय. पूण मनशाक हें सगळें आयतें तयार मेळचें अशें दिसता. हाजें कारण म्हळ्यार ताज्या आंगांत भरिल्लो आल्स. ह्या आळसाक लागूनच तो आपली स्वतंत्रताय घाण दवरूंक तयार जाता.

एके पार्टेक गेल्लेकडेन हांवें पळयलें कि एक मनीस, जाका सगळे लोक बेबदो म्हणून वळखताले, थंय व्हिस्की घेवंक कबूल जायना जालो.

''तूं आनी हांव पितात म्हणपाचें सगळे जग जाणा. आतां लजेता कोणाक?'' तागेल्या एका इश्टान ताका म्हळें.

''लज म्हणटात ती कितें हांव नकळच.'' त्या मनशान जाप दिली. ''पूण हें इल्लें इल्लें घेवन म्हजें भागना. म्हाका संवय ती गट्ट करून तोंडांत रकयलें म्हण्टकच सट्ट करून कीक येवपाची. ती कीक येवंक वेळ काडचो पडलो जाल्यार तितलें सोशीकपण म्हज्यांत ना.''

असोच आनीक एक विनोदी चुटको खंयतरी वाचिल्लो. एक मनीस केदोवेळ बिअर पितालो आनी मदीं मदीं बाथरूमां वचून पोट रिकामे करून येतालो. अशे जायते वेळ जालें. निमाणे एक बिअरची बाटली उक्ती करून तो बाथरूमांत गेलो आनी ती रकोवंक लागलो. तेन्ना कोणेतरी ताका म्हळें, ''आरे हें तूं कितें करता?''

त्या उतराक ताणे जाप दिली. ''दर खेपे म्हज्या पोटांतल्यान ही बिअर बाथरुमांत व्हरून रकोवचे परस एक शॉर्टकट म्हणून हांव सरळच रकयता.''

आमची गत ह्या चुटक्यांतल्या मनशासारकी जाल्या आनी आमी सगळ्याच कामाक शॉर्टकट सोदूंक लागल्यात.

■■

# जिणेचें कुवाडें

जीण म्हळ्यार एक गांठ. जण एकल्या मनशाक दिसता कि आपूण ती गांठ सोपेंपणान सोडयतलों. पूण जिणेची सांजवेळ लागीं पावतकच ताका जाणविकाय जाता कि ती गांठ सोडोवपाचें आपल्या हातांत ना. हें कळटकच कांय जाण जिणेचो अर्थ समजून घेवपाच्या यत्नाक लागतात. जाल्यार दुसरे कांय जाण पिशे जातात.

जो मनीस जिणेचें कुवाडें सोडोवपाखातीर अंतर्मुख जाता ताका भायल्या संवसाराचो हुस्को उरना. एके तरेचें तटस्थपण तो अणभवता. संवसारांतल्या दुसऱ्या जिवांविशीं ताज्या मनांत मोग नासता वा दुस्वास. तो एक ज्ञानयोग सुरू करता. तटस्थपणान सगळें समजून घेता. ताका सुवार्थ वा वान्सा उरना.

सर्वसामान्य मनीस हो दुसऱ्याकडल्यान कितेंयतरी अपेक्षा करीत आसता. ताका गाय जाय आसता ती दूद दिवपी. फुलां आनी फळां दिवपी झाड ताका जाय आसता. तो दर एका जिवाकडल्यान एके तरेची अपेक्षा बाळगिता आनी ती अपेक्षा पुरी जाली ना जाल्यार तो निर्शेता.

जो मनीस निर्शेता ताजी निर्शेणी मनांत तशीच उल्ली जाल्यार तिका खतखतो येवन तो रागार जाता.

इतिहासात एक राजाची खबर वाचूंक मेळटा. त्या राजाक हतयाचेर बसयलो. राजान सांगले, 'लगाम म्हजेकडेन दी.'

''हो घोडो न्हय. हो हत्ती. हतयाक लगाम नासता. हतयाक अंकूश वापरतात आनी तो अंकूश हतयाचेर बसतल्याच्या हातांत न्हय तर महावताच्या हातांत उरता.''

हें आयकना फुडें राजा हतयावयल्यान सकल देंवलो आनी घोड्याचेर वचून बसलो. ताणे म्हळें, 'जाचेर म्हजें नियंत्रण उरचें ना ताचे फाटीर बसपाची जोखीम हांव घेवचों ना.'

ज्ञानी मनीस हो ह्या राजासारको आसता. ताका खबर आसता, आपलो आत्मो सोडलो जाल्यार हेर खंयचेच वस्तूचेर आपलें नियंत्रण नासता. देखून दुसऱ्याकडल्यान अपेक्षा बाळगुपाचे भरीक तो पडना. जो अपेक्षा करता ताका सदांच निर्शेवचें पडटा.

संवसारांत जितलेय मनीस आसात तांच्या मनांत दुबाव, भंय, अविस्वास जसो आसता

तशी दया, काकुळट आनी मोगय आसता. पूण जेन्ना मनशाच्या जिवाचेर संकश्ट येता तेन्ना तो आपलो जीव वाटावपाचोच यत्न करता. एके माकडीणीक आनी ताज्या पोराक उदकांत दवरून उदक इल्लें इल्लें वाडोवपाचो प्रयोग केल्ल्याची काणी आमी वाचल्याच. उदकांत आपलें पोर बुडत म्हणून माकडीण ताका उखलता आनी आपल्या माथ्यार बसयता. पूण जेन्ना उदक माकडीणीच्या गळ्यामेरेन पावता तेन्ना आपलो जीव वाटावपाखातीर पोराक सकल दवरून माकडीण ताजेर उबी रावता. आवयची माया ते माकडीणीकय आसा. पूण खंय मेरेन? आपलो जीव सुरक्षीत तो मेरेन.

आवयची माया, बापायली दया, भावाचे आपलेपण आनी बायलेचो मोग ही वयल्याचाराक उदात्त तत्त्वां दिसली तरी ती मनशाले कातडे इतलीच खोल आसता. संवसारांतल्या नात्या गोत्यांत लेगीत मनीस एके मर्यादिमेरेन परमार्थी रावता. त्या उपरांत तो सुवार्थी जाता.

मनीस जेन्ना असो सुवार्थी जाता तेन्ना सामान्य मनशाक खंत भोगता. तागेले उमेदीचे बुरूज कोसळटात. पूण जो ज्ञानी आसता तो असले दुबळे बुन्यादीचेर आपले घर उबें करीना. देखून पश्चाताप करपाचो प्रसंग ताजेर येना.

जांकां आपले मानले ते स्वार्थी जाल्ले पळयतकच मनशाक दूख भोगता. एक जैन दृष्टांत कथा आसा. एका तरणाट्याक कसलो तरी रोग जाता. तागेलें सगलें आंग भगभगता. सगले तरेचीं वखदां जालीं पूण गूण पडना. जेवण ना खाण. न्हिदूंक मेळना अशी ताजी अवस्था जाता. पूण तागेले घरचे लोक ताज्या म्हऱ्यांत येतात तेन्ना आनी ताजे असवडी लेगीत काकुळट करतात. पूण आपलें जेवण खाण सदचे वरी चालू दवरतात. मायेचीं मनशां जिणेची खोशी भोगतात हें पळोवन त्या तटणाट्याक अशें दिसता, घरच्या जण एकल्यान दिसांतल्यान थोडो वेळ आपली पिडा तांच्या आंगार घेतिल्ली जाल्यार कितलें बरें जावपाचे!

विचार तकलेत येना फुडे तो सगल्यांक आपोवन विचारता. पूण पिडा आंगार घेवंक कोणच कबूल जायना. तेन्ना ताका जाणविकाय जाता की संवसारांत मोग माया आसता ती वयल्याचाराची. खरेलो संवसार हो सुवार्थी आसता, आनी तो थारायता, जर एक खेपे हांव बरो जालो जाल्यार हांव संन्यास घेवन महावीराचो शिष्य जातलों. हो विचार तकलेंत येनाफुडे चमत्कार घडटा. तो बरो जाता. आनी संन्यास घेवन आपली जीण देवाक ओंपता.

धर्मग्रंथांनी आत्मचिंतनाखातीर जीं व्रतां सांगिल्लीं आसात तातूंत अशरणम् व्रताचो आसपाव जाता. संवसारांतल्या खंयच्याच मनशाक शरण वचचे न्हय हो त्या व्रताचो अर्थ. कित्याक तर संवसारी मनीस हो केन्ना केन्नाय शरण आयिल्ल्याचो लेगीत द्रोह करता. शरण वचपाचेच जाले जाल्यार देवाक शरण वचचें.

ह्या संवसारांत कसलीच अट नासतना सुडाचे भावने विरयत, अपमानाच्या भंया

विरयत, निर्शेवपाचे शक्यताये विरयत आमी एकाच मनशाक आपलो म्हणूंक पावतात आनी तो मनीस म्हळ्यार खासा आपूण. हेर सगल्या संबंदांक सुवार्थ, अपेक्षा आनी अपमानाचो वास येता. भाकरेचो कुडको मेळचो म्हणून सुणें जे भाशेन शेंपडी हालयता तेच भाशेन मनीस स्वाभिमान घाण दवरून या संवसारांत वावुरता. बारीकसाणेन येवजिले जाल्यार आमकां दिसतले की आवय, बापूय आनी भुरगो, घोव आनी बायल, भावंडां ह्या नात्याच्या मनशांमदल्या संबंदांत लेगीत एके तरेची अपेक्षा आसता. ह्या संबंदा भायर इश्टाकडेन संबंद दवरतना, मालकाकडेन संबंद दवरतना मनशाली कितेंय ना कितेंय तरी अपेक्षा आसता आनी ती अपेक्षा भागोवपाखातीर ताका आपलो स्वाभिमान घाण दवरचो पडटा.

आनी ही अपेक्षा एक खेपे भागली म्हणून उपकारना. अपेक्षा केन्नाच सोंपना पूण तरी आसतना मनीस अपेक्षा केलेबगर रावना. जे भाशेन कस्तुरीच्या वासान आकूळ पिकूळ जाल्लें हरण कस्तुरी मेळोवंक सगलेकडेन धांवता आनी कस्तुरी आपलेच बोंबलेत आसा हें खबर नाशिल्ल्यान तें निर्शेवन मरता. तशे संवसारांतल्या मनशाचें जाता.

पूण एकादऱ्या मनशाचे जिणेंत एक असो खीण येता की, ताका आपल्या आत्म्याचें दर्शन घडटा आनी संत मीरेच्या उतरांचो साक्षात्कार जाता :

'प्रेमगली अति सांकडी'

तामे दो न समाय'

मोगाची गल्ली ही खूबच अशीर आसता. ते गल्लेंत तूं आनी हांव एकाच वेळार रावंक शकनात. ते गल्लेंतल्यान वतलो जाल्यार तुजे तूं पण आनी म्हजे हांवपण सोंपचे पडटलें. हो साक्षात्कार जाका जाता ताकाच जिणेचें कुवाडें सुट्टा. जंय तूं ना आनी हांवय ना थंय कसलीच अपेक्षा उरना. आनी जंय अपेक्षा उरना थंय निर्शेणी निखालस वांट्याक येना.



# संगत

येशू ख्रिस्तान सांगून दवल्लां, 'तुमी कोणा सांगातान भोंवतात तें म्हाका सांगात. मागीर तुमी कोण तें हांव सांगतां.'

हे सांगणेत एक सत्य आसा ते हे की एके प्रकृतीचे, एका विचाराचे वा वृत्तीचे लोक सोपेपणान लागीं येतात आनी तसले संगतीत ते रमतात.

फाटल्या दिसांनी एका इश्टागेर गेल्लों तेन्ना तो इश्ट आपल्या चल्याक उपदेश दितालो तो कानार गेल्लो. तो म्हण्टालो, 'तूं बऱ्या भुरग्यांची संगत धर. तुका बरी संगत मेळ्ळी जाल्यारच तूं बरो जातलो ना जाल्यार नांव वगडावन बसतलो.'

पूण संगत धरतलो म्हळ्यार धरूंक मेळना. जेन्ना प्रकृती जुळटा तेन्नाच इश्टागत मूळ धरता. तोंडान सांगप सोपें की जाचेकडेन संगत दवरपाची आसत, तागेलो सभाव, संवयो, वागणूक, चारित्र्य आदीं समजून घेवचें, पूण जोमेरेन ताजी संगत घडना तोमेरेन ताजी सारकी खबर मेळूंक पावना आनी जेन्ना ताजे दुर्गुण समजून येतात तेन्ना ताजी संगत सोडप जिवार येता.

आमी जेन्ना कोणाय नव्या मनशाक मेळटात वा एकाद्रे चलयेक सून करून घरा हाडपाची आसता, अशे चलयेची लेगीत कसली? खबर मेळयतात. ती किदें शिकल्या? तिजें कूळ कशें? तिज्यो आवडी किदें? इतलेंच. सुनेची खरेली वळख ती हुंबऱ्यावेलें माप उमथून आमच्या घरांत येता तेन्नाच मेळटा. पूण त्या वेळार दुसरें कांय करप आमच्या हातांत नासता. संगत वाडटा तेन्ना ल्हवु ल्हवू मनशाच्या आंगांतल्या दुर्गुणांची संवकळ जाता आनी ते दुर्गुण कशे दिसनात.

सामान्यतायेन आमी अशे म्हण्टात की, पिकिल्ल्या आंब्यांमदीं एकाद्रो आंबो कुशिल्लो आसत जाल्यार तो वेळार कुशीक काडून उडोवचो. किद्याक तर कुसक्या आंब्याच्या सांगातान बरे आंबे कुसतात; कुशिल्लो आंबो बरो जायना. पूण वेव्हारात विपरीत घडील्लेंय आमी पळयतात. गटारांतलें घाणयारें उदक गंगेच्या पात्रांत भरसता आनी गंगेचें तीर्थ पियेल्ल्या मनशाच्या तोंडांत त्या गटाराच्या उदकाचो अंशय वता. गंगेच्या सांगाताक लागून गटारांतल्या उदकाक तीर्थ जावपाचें भाग्य मेळटा. जे किडे फुलांत भितर रावतात, ते फुलावांगडा देवाच्या मस्तकाचेर वचून बसतात आनी ज्या फातराक शेंदूर लागता,

ताका लोक पांयां पडूंक लागतात. तापिल्ल्या तव्याचेर उदकाचो थेंबो पडलो जाल्यार तो वाफ जावन नाच जाता. तोच थेंबो तेऱ्याच्या पानाचेर पडटकच वज्रावरी चकचकूंक लागता आनी स्वाती नक्षत्र उदेतकच तोच दर्यातले शिपयेंत पडलो जाल्यार मोती जावन रावता.

संगत कोणाची धरची हें आमच्या हातांत नासता अशें न्हय. पूण आमी जर धर्म समजूनय अधर्माक संवकल्ले आसात, न्याय वळखूनय अन्यायाचो पाखो घेवपाचे आमकां मानवता आसत जाल्यार कोण किदें करतलो? एक गजाल खरी की, परीसाची संगत मेळटकच लोखडाचें लेगीत भांगर जावं येता.

कवी म्हण्टात लोखंडाक जेन्ना उज्याची संगत मेळटा तेन्ना ताका कामाराले घण खावचे पडटात. संगत जिणेचो रंग बदल्ले बगर रावना.

पंचतंत्रांत एक काणी आसा. पोपटाच्या दोन पिलांची ती काणी. पोपटान आनी ताचे बायलेन पर्वताचेर एक घोंटेर बांदलो आनी त्या घोंटेरांत पोपटाले बायलेक दोन पिलां जालीं. जेन्ना पोपट खाण सोदूंक भायर गेल्लो तेन्ना एका मनशान ह्या दोनूय पिलांक धरून पांदऱ्यांत घालपाचो यत्न केलो. दुसरें पील उडून गेलें. पील एका ऋषीच्या आश्रमांत पावले. ऋषी झाडां शिंपतालो. थंय येवन बशिल्लें पोपटाचें पील पळोवन ताणे तें उखल्लें. ताका उखलून घेवन ताणे ताका मायेन सांसपिलें. तें पील आश्रमातच उरलें. आश्रमांत सद्दां फांतोडेर प्रार्थना आनी वेदपठण जातालें. पोपट हें सगलें आयकतालो.

पांदऱ्यांतलें पील मात पांदऱ्यांतच राविल्लेकडेन ल्हानाचे व्हड जालें. एक दीस एक राजा रानांत शिकारेक गेल्लो तो एके खोंपीसरी पावलो. खोपीच्या दारांत पांदरो आसलो आनी पांदऱ्यांत पोपट. राजाक पळोवन पोपटान म्हळें, 'धनया, पळय कोण आयतो दारांत आयला. बेगीन येवन ताका धर आनी मारून उडय.'

पोपटाली हीं उतरां आयकून राजा सादूर जालो आनी ताणे आपलो घोडो परतून तो दुसरे दिकेन गेलो. वतां - वतां राजा खूब पयस पावलो. तो तानेलो आनी भुकेलो. ताका पयस एक आश्रम दिसलो. तो आश्रमासरी गेलो. थंय दुसरो पोपट आसलो. राजाक पळोवन त्या पोपटान म्हळें, 'येयात, थोडोवेळ विसव घेयात.'

राजाक मोठे अजाप जाले. ते खोंपीकडलो पोपट उर्मट आसलो आनी हो नम्र आनी मायेस्त. राजान ऋषीच्या पोपटाक ती खबर सांगली आनी म्हळें, 'तो घडये तुजो भावच आसुंये. पूण तो इतलो दुश्ट आनी तूं मायेस्त कसो?'

पोपटाक आपल्या भावाचो उगडास आयलो आनी ताणे आपली खबर राजाक सांगली. तेन्ना राजा समजलो. आवय-बापूय एकच आसलो तरी संस्काराक लागून ह्या दोन पोपटांचे सभाव वेगळे जाल्ले.

'हितोपदेशांत हंस आनी कावळ्याची काणी आसा. एका रानांत एका पिंपळाचेर एक हंस आनी एक कावळो रावतालो. दनपारच्या वेळार एक वाटसरू त्या पिंपळामुळांत

येवन न्हिदलो. वताचें एक कीर्ण न्हिदिल्ल्या वाटसुराच्या तोंडार पडटा हे पळोवन हंसाक दिसलें सुर्याक जरी ताजी काकुळट नासली तरी आपणे आपलो धर्म पाळूंक जाय. हंसान पाखां फुलयलीं आनी वत आडायले. कावळ्याच्यान हे पळोंव नज जालें. ताणे वयल्यान घाण केली. ती वाटसुराच्या तोंडार पडली. कावळो उडून गेलो. वाटसुराक जाग आयली. नदर वयर करून पळे जाल्यार हंस पाखां फुलोवन बसला. वाटसुराक दिसले हंसानच घाण केल्ली आसूंक जाय. ताणे धनुष्य उखलून बाण मारलो आनी हंसाचो जीव घेतलो. दुर्जनाची संगत मेळ्ळी जाल्यार जीव वगडावपाचो प्रसंग येता असो बोध दिवपी ही काणी.

आसल्यो जायत्यो काणयो. आमकां वाचूंक, आयकूंक मेळटात. दरेक काणी म्हळ्यार जिणेच्या अणभवांतल्यान धवळून काडिल्ले लोणी. ह्यो सगल्यो काणयो आमकां एकच सांगता की मनशान कोणाकडेनय इश्टागत करचे आदी फाटलो फुडलो विचार करूंक जाय.

पूण अशें आसूनय मनशाक बरी संगत मेळटाच अशें ना. एक गजाल विसरूंक जायना की मनशाची प्रकृती ही जल्मावांगडा घडटा. ते प्रकृतीचेर आमी जर बरे संस्कार करूंक पावले जाल्यार मनीस सुसंस्कृत जाता. संस्कृती म्हळ्यार प्रकृतीचेर संस्कार करून घडयल्ली भौशीक जीण. प्रकृती ही खाणींत मेळटा तसल्या फातरा वरी आसता. त्या फातराचेर जेन्ना घणाचे संस्कार जाता तेन्ना ताजे एक एक तास चकचकूं लागता आनी ताजे वज्र जाता. जशे प्रकृतीचेर बरे संस्कार जातात तशेच वायट संस्कार जावन ती विकृति जावं येता. मनशाक भूक लागप ही ताजी प्रकृती. देह धारण केल्लो जो जीव आसता त्या देहाक भूक ही लागताच. पुण फकत भूक लागली इतलेच खातीर आमी दुसऱ्यांचे चोरूंक वचनात वा उष्टवारे उस्तूंक वचनात. जे तशें करतात ते विकृत आसतात. जे सुसंस्कृत ते भूक सोसून उजू मार्गान शुध्द अन्न मेळसर वाट पळेतात. अशे भाशेन मनशाचेर बरे संस्कार करपाचें काम जशी ताची संगत करता तेचभाशेन संगतीक लागूनच वायट संस्कार मनशाचेर जातात. जेन्ना देहाचें सूख वगडावन मनाच्यो उमेदी भागोवंक मनीस करूंक तयार जाता, तो भोगपाखातीर कितेंय करूंक अनमनना, त्या मनशाक तसल्याच लोकांची संगत मेळटा. खिणभर आमच्यांनी अशें म्हणूं येता, लोखंड जशें लोहचुंबकाकडेन ओडटा तशे समान प्रकृतीचे मनीस एकामेकाकडेन ओडटात. इतिहासांत आमी बरे आनी वायट अशे दोनय तरांचे लोक पळेतात आनी केन्ना केन्नाय वाल्याचे वाल्मिकी जाल्लेय आमकां दिश्टी पडटात.

■■

# खजुराहो

आर्य संस्कृतीत जे चार पुरुषार्थ सांगल्यात ते जावन आसात धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष. हातूंत धर्म हो मुख्य पुरुषार्थ. अर्थ आनी काम धर्मान करपाचें बंधन संस्कृती घालता आनी जो पुराय विवेक वापरून धर्म सांबाळून अर्थ आनी काम हे पुरुषार्थ साध्य करता ताकाच मोक्ष मेळटा. भारतीय परंपरेंत ह्या चारय पुरुषार्थाचे प्रतिनिधी आमकां दिश्टी पडटात. मोक्ष मेळोवपी संत, साधू आनी अवतारी पुरुष. अर्थशास्त्राचे गुरु चाणक्य आनी कामशास्त्राचे वास्त्यायन. अर्थ आनी काम हे पुरुषार्थ मनीस जिणेचे भागच जावन आसात. तांची उपेक्षा जावंक उपकारना. वास्त्यायनान कामशास्त्राक उतरांचो देह दिलो आनी त्या उपरांत शिल्पकारांनी खजुराहो आनी कोणार्क सारक्या मंदिरात तेंच कामशास्त्र शिल्पबध्द केलें. तीं शिल्पां पळयतकच आमकां एके गजालीची जाणविकाय जाता कि कामशास्त्राविशीं आयज भारतीय समाजाचें मन दुशित आनी रोगी जाल्लें आसा. एका काळार ह्या प्रस्नाचेर भारतीय समाज कितलो निर्धास्त आनी मनमेकळो आसलो हाजी गवाय ही शिल्पां दितात.

आमच्या देशांत एका काळार नग्नता (नागडेंपण) पवित्र मानताले. वस्त्र मनशान सोदून काडलें त्या उपरांत लेगीत तें कातरीन कापून सुयेच्या आदारान शिंवपाची कला खूब उसरां आयली. ज्या वाठारांनी आखांताचें शीं पडटा थंय भारतीय दादले आनी बायलो पुराय आंग लोकरी वस्त्रान धांपून घेताल्यो. पुण उबाळाच्या दिसांनी फकत आपली लज लिपोवपापुरतेंच सुती वस्त्र समाजातले लोक वापरताले. टॉपलेसची प्रथा युरोपांत एक विकृती म्हणून सुरू जाली, पुण पुर्विल्ल्या काळार भारतीय बायल फकत कमराभोंवतणीच वस्त्र गुठलायताली. तें न्हेसण बीभत्स अशें कोणाक दिसलें ना. दिगंबर (नागडे) जैन तीर्थंकर पळोवन भक्ताच्या मनांत केन्ना हीण भाव आयलो ना. अश्लीलपण हें वस्तूंत, मनशांत वा भेसांत नासता, तर तें पळयतल्याचे नदरेत आसता. भारतीय मनाचे तसलें पडबिंब खजुराहोच्या शिल्पांत पळोवंक मेळटा.

चंदेला राजवंशान खजुराहोची मंदिरां बांदून घेतली अशें सांगतात. चंदेला वंशाची कथाय वेगळी आसा. गढवाल वाठारांत राजगुरु मेहराजाली चली हेमवती ही खूबच रुपेस्त आसली. इंद्राच्या श्रापाक लागून भुरगेपणांत ती विधवा जाली. वाडट्या वयावांगडा तिगेल्या देहाची कळी फुलत रावली आनी ती खुबच सोबीत दिसूंक लागली. गिमाचे

दीस आसले. तळयेंत साळकां आसलीं. तिका दिसलें आपणेय देगेर वचून उदकांत देवचें आनी शीतळ उदकांत न्हावचें. आंगावयलें वस्त्र देंवोवन ती तळयेंत देंवली. तेन्ना बाविल्ल्या साळकांमदीं एक फुलिल्लें साळीक कशी ती दिसली. मळबांतल्या चंद्रान तिका पळयली आनी पिसो जावन तो धर्तरेचेर देंवलो. रातभर ताणे हेमवती सांगातान प्रणयखेळ चलयलो. तिणे लेगीत लज-संकोच सोडून सुख भोगलें. पुण जेन्ना रात सोंपून फांतोड जावंक आयली तेन्ना हेमवती भानार आयली आनी आपलें शील भश्टीलें हे खातीर ती चंद्राचेर रागार जाली.

तिका शांत करचे खातीर चंद्रान वर दिलो : तुजो पूत श्रेष्ठ राजा जातलो. ताका पारसमणी मेळटलो आनी तो लोखंडाक घांसलो जाल्यार ताजें भांगर जातलें.

हेमवतीगेर जो चलो जालो ताचें नांव चंद्रवर्मन. सोळाव्या वर्सा तो आपल्या हातांनी वागाकडेन झुजलो आनी ताणे वागाक माल्लो. फुडें तो राजा जालो आनी चंदेला राजवंशाचो तो आद्य पुरुष थारलो. दंतकथेची गजाल सोडली जाल्यार लेगीत णवव्या ते तेराव्या शेंकड्या मजगतच्या काळांत चंदेला राजघराण्याचें मध्य भारताच्या एका व्हड वाठाराचेर राज्य चलतालें आनी खजुराहो ही त्या राजवंशाची राजधानी आसली, हे इतिहासिक सत्य जावन आसा.

खजुराहो हे नांव खर्जूर वाटिका ह्या उतरांवयल्यान आयलां. त्या वाठारांत एका काळार खाजराच्यो बागो आसल्यो. ह्याच वंशाच्या यशोवर्मन राजान खजुराहो मंदिराचें बांदकाम सुरू केलें आनी तें सुमार २०० वर्सां चल्लें. आयज चंदेला साम्राज्य अस्ताक गेल्लें आसलें तरी खजुराहो वाठारांत भोंवतल्या मनशाक त्या पराक्रमी राजवंशाचो इतिहास आपसूक याद जाता. एके कुशीक ल्हान ल्हान विटांचीं घरां आनी दुसरे कुशीक शिळांचीं भव्य मंदिरां. सामान्य मनीस जेन्ना खजुराहोक वता तेन्ना थंयचीं कामशिल्पां पळोवन ताका धक्कोच बसता. कोणाक तरी शिक्षण दिवपाखातीर हीं शिल्पां कोरिल्लीं अशें मानूंक मेळना. राजमहलांत वा गणिकेच्या प्रासादांत तीं कोरिल्लीं नात. तीं शिल्पां शंकर, विष्णू, आदिनाथ आनी पार्श्वनाथाच्या मंदिराच्या भायल्या वण्टीचेर सगळ्यांची नदर पावत अशे तरेन कोरल्यात. एके तरेन खजुराहोच्या मंदिरांनी गर्भकुडीत परमात्म्याची प्रतिमा आसा आनी भायले वटेन पार्थिव जिणेची कविता आसा. भायलो संवसार आनी भितरल्या संवसाराचो अधिपती. जांचेमदीं कसलोच दंभ ना. जीणच जर अशी आसा तर तातूंत लिपोवचेले कितें आसा? आसा तसो जिणेचो स्विकार करपाचो एक प्रयत्न म्हळ्यार खजुराहो.

खजुराहोचे शिल्प कितले पोरने आसत? आसून आसून आसतलें ८०० ते १००० वर्सां आदलें. इसवी सन ९०० ते ११०० ह्या काळांत हीं मंदिरां उबीं जालीं. एका काळार त्या वाठारांत ७७ देवळां आसलीं अशें म्हणटात. आयज फकत २२ देवळां थंय आसात.

जाणकार म्हणटात कि कामक्रिडेंत गुल्ल आशिल्ली खजुराहो शिल्पांतली जोडी

पळयतना तांचीं तोंडां मुजरत पळोवन घेवची. तांच्या तोंडाचेर एक तनर, एक धादोसकाय पळोवंक मेळटा. थंय लज, भय, संकोच ना वा पातकाची भावना ना. आपलेच धादोसकायेंत गुल्ल अशीं हीं जोडीं आयचे समाजिक मान्यतायेचे नदरेन असभ्य थारलीं तरी त्या शिल्पांनी अश्लील वा विकृत कांय ना. खजुराहो म्हळ्यार पुर्विल्ल्या आनी आर्विल्ल्या भारतीय समाजाचो एक आगळो वेगळो विरोधाभास. पुण जे लोक हीं शिल्पां पळोवंक येतात तांतले कितल्याशा जाणाक तातूंतले पावित्र्य होलमता आसत? मध्य प्रदेशांतल्या खेड्यांतल्यो बायलो माथ्यावयलो पदर छातयेमेरेन सकल ओडून देवळांत भीतर सरता आसतना खिणभर दारांत उब्यो रावन शिल्पाचेर एक नदर घालपाचो यत्न करतात जाल्यार शारांतले भोंवडेकार त्या शिल्पांतलें सौंदर्य विसरून आपले विकृतीक सोबत अशी उतरां तोंडातल्यान काडटात. कांय अति उत्साही भोंवडेकार शिल्पां विद्रूप करपांतय समादान मानतात.

एक गजाल मतींत धरूंक जाय कि खजुराहो ही कामशास्त्राची कविता न्हय. ती मनीस जिणेची गाथा जावन आसा. मनीस जिणेचे तें एक निरूपण. जिणेंत मनशाच्या वांट्याक जी खोशी, जे हुस्के, जें दुख्ख येता तांचे ते चित्रण. त्या शिल्पांत नाच आसा. संगीत आसा. झूज आसा. बालक्रीडा आसा आनी रतीक्रिडा लेगीत आसा. हातात शेणे घेवन जेन्ना शिल्पी शिळा कोरातताले तेन्ना तांचे तकलेत कामभावना नासली. जिणेचे एक एक तास ते चित्रायताले. तरी आयज तीं शिल्पां पळोवंक वतलो तातूंत काम सोदता आनी एकेतरेन कलेचो अपमान करता.



# क्लिओपात्रा

जिच्या नाकाचेरच एक कथा बरयल्या अशी संवसारांतली एकलीच बायल म्हळ्यार क्लिओपात्रा! अशें म्हण्टात कि तिगेलें नाक मात्शें चेपटें आसतें जाल्यार इजिप्ताचोच इतिहास बदलपाचो. थोडे जाण सांगतात कि इजिप्ताचोच न्हय तर हॉलीवुडच्या फिल्म उद्योगाचोय इतिहास वेगळोच आसपाचो. इलिजाबेथ टेलर रिचर्ड बर्टनाकडेन दोन फावटी लग्न करून तीन फावटी डायवोर्स घेवपाची न्हय. हे क्लिओपात्राचेच उपकार म्हणूंक जाय. लीझ टेलराक क्लिओपात्रा जावचेखातीर कोट्यांनी डॉलर मेळपाचे न्हय.

म्हाका दिसता इंद्राले गुप्तहेर खाते मात्शें सुस्त आसतलें. ना जाल्यार दमयंतीच्या सौंदर्याचो रिपोर्ट सगल्या बारीकसारीक माहितीसयत जसो ताणे इंद्राक पावतो केलो तसो क्लिओपात्राच्या आगळ्या रुपाचो रिपोर्ट तें धाडपाचें न्हय? ना जाल्यार उर्वशी, मेनका, रंभा सारकील्या अप्सरांची चाकरी वचून थंय क्लिओपात्रा पावपाची आनी मागीर ती इन्द्राचोय नाश करून इंद्रासनार आपुण बसपाची.

क्लिओपात्रा इसवी सन ६८-६९ च्या अदमासाक जल्मल्ली. तिगेले नांव क्लिओपात्रा-७ आनी तिगेल्या बापायचें नांव टोलोमी-१३. त्या काळार नांवाचें कितलें दळिद्र आसतालें ताजी ह्या आंकड्यावेल्यान कल्पना येता. टोलोमी राजा आशिल्लो खरो. पुण ताची नामना आशिल्ली ती मुरली वाजोवपी म्हणून. ताणें आपलो निमाणो उस्वास लेगीत मुरलींतल्यानच सोडलो म्हण्टात. मरच्या वेळार ताणें क्लिओपात्राच्या सांगाताक टोलोमी-१४ दवरिल्लो. एक राज्य आनी वारस दोन. एकल्यान कोणेंय तरी सिंवासन (काय राजासन?) सोडूंक जाय आशिल्लें. कोणें सोडप? चौदाव्या टोलोमीन म्हळें, 'बायलांनी राजासनाचेर बसूंक फावना.' देखून क्लिओपात्रा पळून सिरियाक गेली. ही बायल फक्कत सुंदरच आसती जाल्यार कोणाय राजाल्या वा सेनापतील्या भुरग्यांची आवय जावन संवसार करतली आसली. पुण तिची मत बुदवंत आसली आनी मनांत जायते हावेस आसले. तिका खंय धा भासांचें गिन्यान आसलें. आनी तांतूतच लॅटिन आनी हिब्रू भासो ती भाजी कशी कातरताली. स्पॅनिश भाशेंत ती खेळटाली आनी इंग्लीशींत रागार जाताली म्हण्टात.

सीझर हो त्रेपन्न वर्सांचो एक विलासी योध्दो आसलो. तागेले विलासी वृत्तीचेर त्या काळांत जायतीं लोकगीतां आनी दंतकथा घोळटाल्यो. कोणय जुवान भुरगो सुंदर चलयेकडेन लग्न जावन आयलो जाल्यार गांवच्यो जाण्ट्यो तिजेर सीझराची नदर पडची न्हय म्हणून तिजी

दीश्ट काडून सांगण्यो-आंगवण्यो करताले. न्हवऱ्याले इश्ट-मित्र त्यावेळार न्हवऱ्याक केळवण म्हणून चावयो आनी कुलपां दिताले आनी म्हण्टाले - 'तुजे वायलेक सात कुलपांआड सांबाळून दवर, सीझर बी गांवांत पावत!'

सीझर जसो साधू नासलो तशी क्लिओपात्रा साध्वी नासली. तिणें सीझराक अजापभरीत करपाखातीर एका उंची जाजमांत आपणाक गुठलावन ती पोटली एका मानायाक उबारून सीझरा म्हऱ्यांत व्हरूंक सांगली. जाजम उक्तें जायनाफुडें तातूंतल्यान क्लिओपात्रा भायर सरिल्ली पळोवन सीझर पिसोच जालो. हेर जाजमांमदीं असल्योच सुंदर बायलो आसूंये हे आशेन ताणे आपल्या सैनिकांक रोम शारांतली मेळत तीं सगळीं जाजमां घेवन येवपाचें फर्मान सोडलें.

'मानायान तुका उबारून हाडूंक कितले पैशे घेतले?' सीझरान क्लिओपात्राक विचाल्लें. 'एक सेस्टेशिया' (सेस्टेशिया म्हळ्यार सुमार चाळीस हजार पौंड) 'जाजमाचें मोलच एक सेस्टेशिया... म्हाका ताणें व्हड खोशयेन फुकट उबाल्ली.' दोळे नाचयत क्लिओपात्रान जाप दिली.

'खूब म्हारग... ' सीझरान म्हळें. त्या उपरांत तांची वेव्हाराची उलोवणीं जालीं.

वेनि, विदि, विकि - हांव आयलों, हांवें पळयलें, हांवे जिखलों - अशी बडाय मारतल्या व्हड योध्याक क्लिओपात्रान आपल्या दोळ्यांनीच हारयलो. सीझरालें काळीज घायांनी रगत बंबाळ जालें.

सीझरापसून क्लिओपात्राक एक भुरगें जालें. ताचें नांव ताणे 'सीझेरियन' दवल्लें. (घडये संसारातलें पयलें सीझेरियन आसूंये.)

सीझर युध्दांत थकलो म्हण्टकच क्लिओसरीं येतालो आनी क्लिओची उबगण येतकच युध्दाक वतालो.

अशे सांगतात कि जुलै ह्या म्हयन्याचें नांव सीझरान आपल्या 'ज्युलियस' ह्या नांवावेल्यान दवल्लें. आनी त्या म्हयन्याचे एकतीस दीस केले. (त्यावेळार जर सीझरान जुलै म्हयन्याक चाळीस दीस केल्ले जाल्यार घडये आमकां इतले दीस काम करून फक्कत तीस दिसांचोच पगार मेळपाचो!)

क्लिओपात्राच्या काळार गाढवाचें मोल खूब आसलें म्हण्टात. देखून कोणाकय गाढव म्हळो जाल्यार तो ती गाळ मानिना आसतना भौमान मानतालो. कोणाय धनयान रागान आपल्या चाकराक 'गाढव' म्हळो जाल्यार तो खोश्शेन भुरकटून वतालो. कित्याक जाणात तुमी, क्लिओपात्रा दीसपट्टी गाढवाच्या दुधान न्हातालो. तिका पळोवन त्या काळार हेर बायलोय गाढवाच्या दूधान न्हावंक लागिल्ल्यो. मागीर गाढवाची तुस्त गायतल्यांचें तोंड कोण बंद करतलो? ते म्हणूंक लागले कि सीझरान गाढव हो 'राष्ट्रीय पशु' थारावन ताचो तोंडावळो आशिल्लीं नाणीं काडिल्ली. त्यावेळार ब्रुटस्, केसियस हांच्या सारकिल्या ताच्या इश्टांनी सीझराक सांगिल्लें कि गाढवाच्या तोंडावळ्या वाट्याचीं सीझरान आपल्याच तोंडावळ्याची नाणीं काडूंक जाय आसलीं. आनी ताका लागूनच तांच्यांत वितुश्ट आयिल्लें. सीझराक

मारतल्यांमदीं तागेल्या दुस्मानांपरसय इश्टच चड आसले. रोम शारांतली शिस्त त्या काळार देखदिणी आसली. सीझराले सगळे इश्ट शिस्तीन रांगेंत उबे रावले आनी एका फाटल्यान एकान ताचेर सुरी माळ्ळी. जेन्ना तागेलो जिवाभावाचो इश्ट फुडें येवन ताचेर सुरी मारूंक लागलो तेन्ना सीझरान अजापान विचाल्लें - 'तूं?... ब्रुटस तूंय?' आनी असलो पिशेपणाचो प्रस्न ताणें परथो विचारचो न्हय म्हणून ब्रुटसान तेच सुरयेन ताका जिवानिशीं मारून उडयलो.

सीझराच्या मर्णाउप्रांत तीन वर्सांनी तागेलो एका काळावेलो संवगडी मार्क अँटनीन क्लिओपात्राक टार्टसांत मेळूंक आपयली. अँटनीविशीं क्लिओच्या मनांत इल्लें आपलेपण आशिल्लें. सीझराले लोकसभेत अँटनीन ओंपिल्ली श्रध्दांजलि खूबच सोबीत आनी काळीज हालोवपी आसली. तागेलें उतरान उतर क्लिओन आपल्या उगडासाच्या करणांत सांबाळून दवरिल्लें. न्हयकारांत हयकारय आस्पावता हे सुचोवंक सुर्वेक क्लिओपात्रान टाळाटाळ केली. मागीर एक दीस भांगर अळंकारांनी भरिल्लें माचुल घेवन खासा अँटनी क्लिओक जेवणाक आपोवंक आयलो. जेवचे आदी क्लिओपात्रान आपल्या कानांतल्या अळंकारातलो मोलादीक नीलम खडो सोऱ्याच्या पेल्यांत घालो आनी सोऱ्याच्या घोंटासरशीं तो गिळून उडयलो. तें पळोवन काचावूल जाल्ल्या अँटनीन तिका विचाल्लें, 'हें तुवें कितें केलें?'

हांसत क्लिओपात्रान जाप दिली - 'निखटो सोरो पोटाक झोंबता. देखून सोऱ्यावांगडा हांव दुसरें कितेंय खातां.'

मागीर अँटनीन तिका सीझरालें मृत्युपत्र वाचून दाखयलें. आनी म्हळें - ''ताणें क्लिओपात्रा म्हाका दिल्या...''

क्लिओपात्रान त्या उप्रांत जुंवळया भुरग्याक जल्म दिलो. ॲलेक्झांडर हेलियस आनी क्लिओपात्रा इलीन अशी तांचीं नांवां. हे भुरगे चार वर्सांचे जाले तेन्ना अँटनीन क्लिओपात्राकडेन त्या दोनूय चल्यांसामकार लग्न केलें.

अँटनी वर्सान वर्स यादीन क्लिओपात्रालो वाढदीस मनयतालो. पुण एकय फावटी ताणें क्लिओली पिराय विचाल्ली ना. एक दीस क्लिओलीं धोंपरां आनी सांदे दुखूंक लागले तेन्ना कळवळून अँटनीन म्हळें, ''इतल्या भुरगेपणांत तुजे सांदे कशे दुखले?'' त्यावेळार दुखीन वळवळत क्लिओपात्रान जाप दिली, 'ल्हान पिराय कशी? तेत्तीस वर्सां जालीं...'

त्या खिणाक अँटनीक कळ्ळें कि हे बायलेचें जुवानपण आतां सोपत आयलां. देखून ताणे सीझरालो पोसको पूत ओक्तावियानाले भयणीकडेन लग्न केलें. पुण क्लिओपात्राचे नदरेंतली ओड अजून बावूंक नासली. एका नाजूक प्रसंगाचेर तिणे सांगतकच अँटनीन आपले नवे बायलेक सोडचीट दिली. आनी हे सोडचिटी लागूनच आदले मेवण्या-भावोजीमदीं - युनान-रोमामदीं झूज पेटलें.

उश्णें घेतिल्ले पयशे परत दिवंक विसरप कितलें सोपें! पुण क्लिओपात्राक विसरप ॲटनीक कशेंच जमना जालें... शेकीं ताणें आपली याद सोऱ्याच्या पेल्यांत बुडोवपाचें थारायलें. पुण ते अवस्थेंय तिगेले दोळे ताजी फाट सोडीनात जाले. देखून उबगून ताणे जीव दिलो.

अँण्टनी खऱ्यांनीच मेलो काय ना ताजी रुजवात करचेखातीर क्लिओपात्रा तागेलो फोंड पळोवंक गेली. तो खऱ्यांनीच मेल्लो आसत जाल्यार तागेलो आदलो मेवणो ओक्तावियानाकडेन लग्न करपाचें ती येवजिताली. पुण तो एकलोच असलो रोमन कि क्लिओचे दोळे, रूप आनी देह पळोवन भुल्लुसलो ना. हें पळोवन क्लिओपात्राकय दिसलें कि संवसारांतल्या दादल्यांक जिखपाची आपली शक्त आतां सोंपल्या. तिणें बाजारांतल्यान अंजिराचो कंडो हाडून घेतलो. निमाणेकडेन सुमार दोन वरां न्हावन घेतलें. आंगाक चेर लायलो. सोबीत वस्त्रां न्हेसली आनी अंजीराच्या कण्ड्यांतल्या सोरपाकडेन नाच करीत ही रुपवती दुसऱ्या संवसारांत गेली.



# बंधन

जल्म जाले उपरांत भुरग्याची वार कापून ताका एका बंधनातल्यान मेकळो करतात. पूण त्या उपरांत जिवीतभर ताच्या वांट्याक तरेकवार बंधनां येत रावतात. कांय बंधनां तो आपूण जावन निर्मिता जाल्यार कांय नशीबाक लागून ताच्या वांट्याक येतात. कांय बंधनां ताका सुखदिणी दिसतात. आनी ती सांबाळचेखातीर तो मनापसून यत्न करता जाल्यार कांय बंधनां कटकटींची दिसतात आनी तीं तोडपाची ताका इत्सा आसता. पूण सगळींच बंधनां तो तोडूंक पावना.

तशें पळोवंक गेल्यार बंधनां मेकळो मनीसच ना. वैराग्य पत्करून बशिल्लो साधू-संन्याशी लेगीत केन्नाय ध्यानाचें वा पूजा प्रार्थनेचे बंधन घेवन बसता. संवसारीक मनशाक तर सगळे तरांची बंधनां लागतात. घरचें बंधन, नात्यांचें बंधन, वेवसाय धंद्याचें बंधन, पूण हीं बंधनां ताका बंधनां कशी दिसनात. घर वंधनावरी दिसले जाल्यार मनीस परत घरांत येवपाचोच न्हय. प्रवासाक गेल्लो मनीस सोबीत सुंदर सपनां पळयता. बऱ्या हॉटेलांनी रावता. पूण जेन्ना मनीस घरां येता -मागीर तें घर ल्हान आसूं वा व्हड आसूं, सोयीचे आसूं वा अडचणीचें आसूं तेन्ना ताका आपूण आपल्या हक्काच्या जाग्यार आयलो अशें दिसूंक लागता. आपल्या घरांत मनशाक जी शांतताय आनी सुरक्षितताय मेळटा ती हेरकडेन मेळना.

तरीकय घर म्हळ्यार बंधन हे आमी विसरूंक फावना. बारीकसाणेन येवजिले जाल्यार आमी पळेतले की संवसारांतल्यो सगळ्यो वस्तू एकामेकीत घुस्पल्ल्यो आसात. पूण मनशाक मात ताची जाणविकाय नासता. मनीस जेन्ना आपलो विचार करता तेन्ना तो देह होच आपूण अशें मानता. ताका लागून मनशाची नदर संकुचित जाता आनी ताचो अहंकार जागो जाता. तागेल्या विचारांची दिशा हांव, म्हजें सुख, म्हजी बायल, म्हजें घर, म्हजो देश अशी जावन वसता. आनी जंय जंय मनीस 'म्हजो' विचार करता थंय थंय बंधन निर्मता आनी बारीकसाणेन पळयलें जाल्यार दुसऱ्या मनशांकडेन वास्तूकडेन मनशांक बांदता ती तागेली आसक्ती. ताचो अहंकार, ताचो सुवार्थ ताका बंधनां निर्मिता आनी तीं बंधनां पेलूंक वतकच ताका जड लागतात.

तशें पळोवंक गेल्यार मनीस आपलें बंधन आपुणूच निर्मिता. पूण दुसऱ्याच्या नांवान पिरंगता. आपुण बंधनां मेकळो उरचो आनी दुसऱ्यान बंधना पत्करचीं हे खातीर तो आपली बुध्द शिणयता.

एका मनशान आंगणात येतलो माकड धरपाचें थारायले, पूण चपळ माकड सोपेपणान ताच्या हाताक लागना जालो, ताणे एक माण्णी केली. माकडाचो हात भितर वचत इतले रुंद तोंडाची एक बाटली आंगणात दवरली आनी ते बाटलेंत थोडी भिकणां घालीं.

सदांचो माकड आंगणात आयलो. भिकणां पळोवन ताच्या तोंडाक उदक सुटलें. तो उडी मारून बाटलेसरी आयलो. ताणे भोंवतणी पळयलें. कोणाली जाग ना. देखून ताणें ते बाटलेंत हात घालून आपली मूठ भिकणानी भरली आनी तो हात भायर काडूंक लागलो. मुठींत भिकणा आशिल्ल्यान अशीर बाटलेंतल्यान ताची मूठ भायर सरना जाली. आतां कितें करया अशें माकड येवजिता म्हणसर तो मनीस आयलो आनी ताणें माकडाक धरून बांदलो. भिकणां मुठींतली सोडलीं जाल्यार त्या माकडाचो हात भायर येतलो आसलो. पूण भिकणाचे आशेन कुड्डो जाल्लो माकड मनशाचे तावडीत सांपडलो.

मनशाची आवतिकाय ह्या माकडासारकीच आसता. जें तो आपले मुठींत धरूंक वता थंय तो बंधनांत पडटा. आसक्ती सोडली जाल्यार तो बंधन मेकळो जावं येता. पूण ताची आसक्ती सुटना. ही आसक्ती केन्ना शरीराची आसता केन्ना धनाची आसता, केन्ना नात्याची आसता. मनशाक पयसो बांधून दवरता. पयशाचे आसक्तेक लागून तो आपूणच बांदून घेता. सुवार्थ, मोग आनी मनाचे चंचलपण मनशाखातीर बंधनां निर्मिता.

मनीस हो केन्नाच तटस्थ रावना. वतांत ताका सावळी जाय आसता. काळखांत ताका उजवाड जाय आसता. परिस्थिती बरी आसूं वा वायट, तो आपल्या सुखाचो विचार करता. खंय सुख मेळटलें अशें दिसलें जाल्यार थंय तो धांवता, आनी जाचेवरवीं सुख मेळटा ताका बांदिल्लो उरता. सुखाची वान्सा ताका भितल्ल्यान आनी भायल्यान बांधून उडयता, भायलें बंधन तोडप सोपें. पूण मनाचे बंधन तोडप खूब कठीण. जर मनीस आसक्ती सोडीत, सोशिकपणा वाडयत. सुख दुःखाच्या भावनेचो त्याग करीत, देहाचो हुस्को सोडून दीत. हांव आनी 'म्हजें' ही भावना विसरत जाल्यार घडये बंधनां ताका चुकत, पूण अशें घडना.

मोक्ष म्हळ्यार बंधनमुक्ती अशें म्हणटात. मोक्ष मेळटलो जाल्यार ताणें सगळे तरेचीं बंधनां तोडचीं पडटलीं अशें विचारवंत सांगत आयल्यात. पूण मन हे जीवाचे एक साधन. कसलेंय साधन कोणायच बांधूंक शकना. दोरी हें मनशाचें एक साधन. पूण दोरी आपूण जावन कोणाकच बांधीना. जेन्ना मनीस ते दोरयेचो बांदचेखातीर उपयोग करता तेन्नाच ती दुसऱ्याक बांदूक पावता. मन हो मनशाल्या अंःतकरणाचो एक भाग. जीवाक इंद्रियां आनी मन, बुध्द, चित्र आनी अहंकार ह्यो क्रियाशक्ती आसतात. क्रियाशक्तीच्या आदाराबगर इत्साशक्ती कांयच करूंक शकना आनी जिवाक नाका आसत जाल्यार क्रियाशक्ती लेगीत निश्क्रिय उरता. पुराय देहांत जीव हो मुख्य. देहरूपी राज्याचो तो राजा. मन आनी इंद्रियां ताचे सैनिक. जिवाच्यान जाय जाल्यार क्रियाशक्तीक सक्रीय करूं येता. पूण जेन्ना तो क्रियाशक्तीचे अधीन जाता तेन्ना तो बंधनांत पडटा.

राजाच्या हातांत सत्ता आसून राजा हे सत्तेचो सारको उपेग करिना जालो, प्रधान, पोलीस, सैनिक आनी अधिकाऱ्यांच्या अधीन जालो जाल्यार राज्यांत अराजक उद्भवता.

इतलेंच न्हय तर कोणाचो केन्ना आनी कितलो उपेग करचो हें राजान थारावपाचें आसता. जिवापरस मन बळिश्ट जालें जाल्यार, राजा सैनिकाच्या अधीन जाल्यार उप्रासतली तशी स्थिती उप्रासता. अशें आसतनाय आमी पळयतात की आजवेर विचारवंतांनी जीवापरस मनाक चड म्हत्व दिलां.

तत्वज्ञान सांगता की जीव आनी क्रियाशक्तीचीं साबार आंगां ही अनादि आनी शाश्वत आसतात. तांकां मुक्ती नासता. जीव एक शरीर सोडून दुसरें आपणायता. पूण त्या शरिराक मोक्ष मेळ्ळो अशे मानप धाडसाचें जातलें. पातक करतल्याक मोक्ष मेळना, पुण्यवंतांकच तो मेळटा अशे जेन्ना धर्मिक फुडारी सांगता तेन्ना प्रस्न पडटा तो असो, देह सोडिल्ल्या दर एका जीवाक मोक्ष मेळटा काय कितें? ते नदरेन येवजिले जाल्यार मोक्ष ही एक कल्पनाच म्हणपाची पडटली.

एकाद्रो मनीस जाका बंधना मानता तें ताचेखातीर बंधन जावन बसता, पूण दुसऱ्याखातीर ते बंधन नासूं येता. गृहस्थाश्रमाचे बंधन तोडून जायतेजाण संन्यास घेतात. पूण चडशे लोक गृहस्थाश्रमांत सुख मानतात. संन्यास घेतिल्ल्याक मुक्ति मेळटा वा बंधन चुकता अशेंय न्हय, ताची बंधना वेगळे तरेची आसतात. संप्रदायाचें, शिष्याचे ध्यानाचें वा पूजेचें बंधन तो खोशयेन आपणायता.

घर वा संवसार हें बंधन कोणाक दिसता? जाका तें चलोवपाची जापसालदारकी नासता ताकाच जापसालदारकी हें बंधन आसत जाल्यार संन्याशाक जापसालदारकी नासता? ती वेगळे तरेची आसली तरी जापसालदारकी हे विसरूंक फावना, फकत तिचे रूप बदलता. जेन्ना मनीस आपणाचेर आयिल्ली जापसालदारकी उखलता आसतना मनांत अहंकार येवंक दिता तेन्ना ती जापसालदारकी बंधन जाता. करपी सवरपी देव, हांव फकत निमित्त हे तटस्थ भावनेन वागलो जाल्यार जापसालदारकेचे बंधन दिसना, मागीर ती जापसालदारकी घरची आसू वा भायली.

एक संतान म्हळां, जीण आनी जगत हांचे कडेन मनीस कसो पळयता ताचेरच बंधनाची भावना आदारिल्ली आसा. जीण म्हळ्यार संत. संत म्हळ्यार परमात्मा. परमात्म्याचो संग धल्लो जाल्यार कांयच बंधन अशें दिसना. पूण जगत् म्हळ्यार भौतीक संवसार. ताचो सांगात बंधन निर्मिले बगर रावना.

पूण चडावत मनीस आपले जिणेंत सत कितें आनी असत कितें तें वळखूंक पावना. देवाची उपासना आपूण करतां हे भावनेन तो खुबशे फावटी देहाचीच उपासना करता. आनी ती उपासना करतना आपल्या मनांत अहंकार केळयता. हो अहंकारच बंधन निर्मिता. जो मेरेन आसक्ती आनी मोह उरता तोमेरेन बंधन सुख दिणे दिसता आनी जेन्ना आसक्ती सोंपता आनी मोग आट्टा तेन्ना बंधन दुख्खाचें कारण जाता. अशे तरेन बंधन आनी मुक्ती मनशांनी निर्मिल्ली आसता. बंधन निर्मुवचें काय तोडचें हें ताणेंच थारावपाचें आसता.

■■



# Goa - Healthy State, wealthy State

## Government's initiatives to keep the health of the state in order

- State Public Health Authority to be constituted
- Bio-environmental measures have been strengthened by setting up anti-larval fish hatcheries
- Stringent implementation of the provisions of Public Health Act has resulted in Malaria screening of labour population
- Behaviourial change communication activities are launched with Private Public partnership for control & prevention of water borne diseases
- Fogging machines provided to all CHC/ PHC's/ UHC's
- Advisory Council to improve health facilities to be formed
- Stringent action on builders violating mandatory construction guidelines





Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa